प्रकाशक / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.

दूरध्वनी / (०८३२) २४३८३५५.

प्रकाशन क्र. /१२७.

अक्षर जुळणी / बिम्ब प्रकाशन.

छापणावळ / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.



पयली आवृत्ती / जानेवारी २०१७.

मुखपृश्ठ / हर्षदा केरकार

**वसंताचो बोल** (निबंध लेख) दिलीप बोरकार

Vasantacho Ball (Essays) *by* ***Dilip Borkar***

**मोल** : रु. २००/-




**ISBN :** 978-93-85654-15-2

भाईक,
जाणें हांवें शिकून
व्हडलो जावंचो
आनी
समाजांत नांव कमोवंचें
अशें सदांच
सपन बाळगिलें
त्या म्हज्या
व्हडल्या भावाक
नंदा बोरकार हाका....

# मांडावळ

# वसंताचो बोल

**वसंतोत्सवाक** आरंब जाला. म्हज्या जिवितांतलो हो ४९ वो वसंतोत्सव. वसंत म्हळ्यार घेवन येता वताचो रखरख आनी त्या वताक आव्हान दिवपी फुलांची फुल्लट. वसंताचें रुपूच वेगळें. म्हाका वसंत आवडटा पूण वसंत म्हणटकच म्हाका चड आवडटा ती वसंताची याद. वसंताच्या बोलाची याद.

'पडींग मळार वसंत फुलोवंक आमीच हांगा गायलीं गीतां' ही कविता सुचली तेन्ना वसंत उतरा वांगडाच म्हजे दोळ्यां मुखार उबो रावलो वसंत आनी वसंताचो  बोल.

रमेश वेळुस्कार भारार येवन 'सर्वय वसंत हाडून जाळी' अशी कसली तरी कविता पेश करतालो तेन्ना वसंत कानार पडल्या बराबर म्हज्या दोळ्यां सामकार येता तो 'तो' वसंत आनी त्या वसंताचो 'तो' बोल. हळदुवोच.

वसंत आतां पोस्टांत काम करता. ताचें लग्नूय जालां. केन्नाय म्हाका वाटेर मेळटा. हांव मुद्दाम ताका हात दिवंक वतां. पूण तो हात दिल्ल्या सारकें करीत फाटीं फाटीं सरता. लजत 'भाऊ कसो आसा?' अशें विचारता. पूण सावळेक लेगीत रावना. ताचे नदरेन हांव कोण तरी व्हड मनीस. पूण म्हाका जाय आसता तो म्हजो वसंत. पूण तो म्हजो

वसंत हें मानूंक हो वसंत तयार नासता.

वसंत म्हजो ओप्री ते चवथी मेरेनच्या शाळेंतलो वर्गबंधू. मोटवोसो. कोंगऱ्या केंसांचो. काळसो. अजून तो मोटवोच आसा. ताचे केंसूय कोंगरे आसात आनी ताचो तेन्नाचो, चाळीस वर्सां पयलींचो सभावूय तसोच आसा.

आगशीच्या सरकारी प्राथमिक शाळेंत वसंत म्हजे वांगडा मराठी शिकतालो. आनीकूय जायते जाण शिकताले. पूण म्हाका याद आसा ती वसंताची आनी ताच्या हळदुव्याच बोलाची.

वसंत जातीन म्हार. ती ताची जात काय तो तांचो पारंपारीक वेवसाय हें हांव नकळ. लोक तांकां म्हार म्हणटाले देखून म्हज्याय तोंडांत आतां व्हड जातकच म्हार हें उतर येता. तेन्ना भुरगेपणार येवंक ना हाची म्हाका खात्री आसा. तेन्ना कांयच कळनाशिल्लें. आतां कळटा. कित्याक अक्कल आयल्या. शिक्षण घेतलां देखून. जेन्ना शिक्षण नाशिल्लें तेन्ना सगळें कशें एक आशिल्लें. सुटये दिसांनी आमी सगळे भुरगे एकठांय जावन खेळटाले. शाळेचे मदले सुटयेंतूय खेळटाले. खेळून खेळून थकताले. तान लागताली आकांताची. मागीर शाळेकडेन लागींच आशिल्ले एक खोपींत आमी उदक पिवंक वताले. केन्ना एका व्हडल्या घरांत वताले. खोपींतलें कुटूंब मानायपणाचें काम करतालें. व्हडल्या घरांत भांगराचें काम चलतालें. एका घरांत लाडू, खाजें बी करताले. किरिस्तांवांलींय घरां आशिल्लीं. त्या घरांनी आमी उदक पिना आशिल्ले. किरिस्तांव म्हूण न्हय. तीं धुकर खातात म्हूण!

आमी उदक पिवपाक धांवताले ते धुकर खायनांत तांगेर. हिन्दूगेर. पूण वसंत कोण आशिल्लो काय? हिन्दू? किरिस्तांव काय आनीक कोण? म्हाका ह्या घरांनी उदक दिताले ते पेलो चकचकीत बी धुवन.

वसंताक कोणूच पेलो दिनासले. 'तूं वसंत न्हिरे म्हारालो ?' अशें म्हणत ताच्या हातार तांबयो वयर धरून उदक ओतताले. वसंत हाताचो पोसो करून उदक घटाघटा पितालो.

वसंताच्या बापायक हांवें केन्ना पळोवंक ना. पळयलाय आसत. पूण अमकोच ताचो बापूय म्हणपाचें म्हज्या लक्षांत ना. हांव वळखतालों तो वसंताचे आवयक.

वसंताची आवय आमच्या घरांतल्या दर लग्नाक आयल्या. तिणें सुपां, वल्ल्यो बी घेवन येवप आनी घरा भायरूच न्हय तर आंगणा भायर बसप. म्हजे आवयन तिका च्या बी दिवप. ती फुटक्या कोपांनी. मुद्दाम दिताली काय आमगेरूय फुटकींच चिक्रां आसतालीं हाचीय म्हाका याद ना. याद जाता ती वसंता आवयन हाडिल्लीं धवशीं सुपां, पाटले हांची. आवय शेणां शिताडो बी उडोवन तीं सुपां घरांत हाडटाली. दर लग्नाक सुपल्यो बी हक्कान हाडून दिवपाचें काम वसंता आवय करताली. पूण तिच्या वांगडा वसंत केन्नाच आमगेर येवंक ना. हरशींय ना आनी लग्नाच्या जेवणाकूय ना.

वसंत आमकां मेळटालो तो शाळेकडेन. शाळेकडचे मोकळे सुवातेर. ते सुवातेर आमी केन्ना फुटबॉल खेळटाले तर केन्ना लगोऱ्यांनी. आमचो बोल म्हळ्यार पिंजक्या मेयांत भाताचो कुंडो भरून शिवून केल्लो वांटकुळोच गुळो. केन्ना तो पांयांनी खेळपाक उपकारतालो तर केन्ना लगोऱ्यांनी खेळटनां एकमेकाची फाट फोडूंक.

एक दीस वसंत एक बोल घेवन आयलो. हळदुवोच. मोव मोव स्पंजाचो. पिकिल्लें हळदुवेंच पेर कसो! सगळ्यांक तो बोल आवडलो. कित्याक तो इतलो मोव की कितलोय रस्तीन फाटीर मारलो तरी दुखनाशिल्लो. आमी नळकुट्यो मांडून तांच्यो लगोऱ्यो करून वसंताची

वाट पळयत रावताले. तो आयलोना जाल्यार तागेर वचून ताका हाडटाले. हेरांक वसंत नाका आशिल्लो. जाय आशिल्लो वसंताचो बोल. वसंत घरा नासत जाल्यार ताची आवय ताचो बोल दिना आशिल्ली. बोलाखातीर वसंतूच जाय आसतालो.

वसंताच्या बोलान आमी बरोच काळ खेळ्ळे. त्या बोलाचे कुडके कुडके वचून नाच्च जाय सर. पुनवेचो चंद्र कसो तो बोल कांय तेंपान बारीक जायत जायत चंद्रकोर जालो आनी उमाशेक नाच्च जावंचो तसो एक दीस ना जालो.

आमीय चवथी मेरेन ते शाळेंत शिकून मागीर जळामळाक फाफसले. आतां कोणाची याद जायनां. जाता ती वसंताची आनी ताच्या बोलाची. वसंताचो बोल... आमच्या आंगांतलो जातीचो मद लगोऱ्यांनी खेळटां खेळटां जिरोवन उडोवपी!

आयज मेळत काय आमकां तो वसंताचो बोल!



# एक बरी इश्टीण गेली

**दिवाळेचो** आदलो दीस. तारीक ३० ऑक्टोबर २००५. आमी भारती लोक दिवाळेचे परबेचे तयारेंत गुल्ल आसात. गोंय हातूंत फाटीं ना. पूण गोंयची दिवाळी वेगळी. गोंयकार हिन्दू गणेशाची परब दबाज्यांत मनयतात पूण दिवाळेक व्हडलें म्हत्व दिनात. ते म्हत्व दितात दिवाळेचे आदले रातीक. नरकासुराक मारूंक. तीच तांची एक व्हडली परब कशी! कित्याक तातूंत उचांबळ आसता. सर्त आसता. रातभर नाचूंक मेळटा.

म्हजो ह्या बोवाळांत वांटो नासता. कितें करप? म्हाका त्याच वेळार दिल्ली सावन फोन येता. दिलीपजी अमृताजी चली गयी– अमृता आयज गेली. आयकून काळजाक फोंड पडटा. बरोच वेळ म्हाका कितें करचें तें येवजना. कोणाक सांगची ही गजाल? कोणां सामकार उक्ती करूं हांव म्हज्या काळजांतली दूख?

म्हज्या काळजांतलें सांगपाक ह्या गोंयांत कोणूच ना. मेळटा ताच्या सामकार हांवें म्हजे विचार दवरले जाल्यार तो म्हणटलो हो दिलीप पिसो जाला. कोण एक म्हातारी बायल दिल्ली मरता आनी हो हांगां तिच्या नांवान रडटा. आपली मोगिका गेल्ले वरी. त्याच पासत हांव म्हज्या काळजांतली दूख काळजांतूच दवरून पिशांतूर कसो जावन भोंवतां.

पणजे नरकासुराची सर्त चलिल्ली, नरकासूर पळोवपाची गर्दी वाडत आसा. धोलताशांचो, कोरण्यांचो कान फोडपी आवाज, लोकांचो बोवाळ चालू आसा. हांव ते गर्देंत आसां तरी हांव एकटोच!

वचून एका बारांत बसतां. दोन पेग व्हिस्की घेतां. थंयच्यान भायर सरतां, गर्देंत येतां. तरी हांव एकटो. कोण तरी जाय म्हाका उलोवंक. पूण इतली गर्दी आसूनय कोणूच ना! म्हाका शकुंतला भरणे दिश्टी पडटा. म्हाका हें शकुंतला आवडटा. तसो हांव गोंयच्या कोंकणी मळार वावुरपी चलयांक व्हडलें म्हत्व दिना. त्यो कविता करतात, बरयतात, बरोवपी म्हूण मिरयतात. पूण एके बरोवपेक जी मनाची, विचारांची उंचाय, खोलाय जाय ती म्हाका हांचे मर्दीं दिसना. आपल्या बरोवपांतल्यान तीं व्हडले व्हडले विचार उक्तायतात. पूण समाजांत वावुरतना मात आदलीच परंपरा घेवन हेर लोकांवरी आपलेच फास्केंत जियेतात. मुखार जो कोण येता ताका तीं एक दादलो म्हूण पळयतात. आपली अस्तुरेची मर्यादा सांबाळटात. वागपांतल्यान, उलोवपांतल्यान. मुखार एक संवेदनशील बसाहित्यिक आसा हाचे परस एक दादलो आसा आनी दादल्या पासून पयस रावपाक जाय ही शिकवण परंपरेन तांकां गावल्या तीच तीं पाळून रावतात. आपले विचार-आचार मुक्त दवरिनांत.

म्हजें हें चिंतप चुकीचें आसत! पूण म्हाका तशें भावता. पूण शकुंतला विशीं म्हाका कित्याक कोण जाणां तशें दिसना. ताच्यो कविता, ताचें गायन हाका एक खोलाय आसा आनी ताचे भितर विचारांची प्रगल्भता-मॅच्युरिटी आसा. देखून ताचे लागीं हांव तें मेळटा तेन्ना काळीज उक्तें करून उलयतां.

आतां तें दिश्टी पडलें तशें दिसलें हाका ही गजाल सांगची. म्हाका कितें भोगता तें ताका कळून येतलें. हांव ताच्या म्हऱ्यांत गेलों.

ताका हात दिलो. पूण तें आपल्या भुरग्यां वांगडा, वावराडे वांगडा नरकासूर पळयता. तीं सगलीं नरकासुराचे खुशालकायेंत आसात. तांची खोस हांवें कित्याक होगडावप? तातूंत हांवें व्हिस्की घेतिल्ली. ताचो वास तांकां आयलो जाल्यार? आनी म्हज्या काळजांत अमृता विशीं जी भावना आसा ती तांचे भितर आसा काय कितें कोण सांगतलो? ताका दिसून येतलें हो सोरो पियेवन कसलें पेपारें वाजयता काय म्हूण!

हांव थंयच्यान कडसरलों. गाडी घेवन मिरामार प्रायेर गेलों. रातीचीं बारा वरां जावन गेल्लीं. हांव सिगार ओडीत दर्याचीं ल्हारां पळोवंक लागलों. रात आसलेल्यान भोवतेक दर्या उचंबळीत नासलो. पूण म्हज्या काळजांत उंचांबळाय चलताली.

कोण लागताली ही कोण अमृता प्रीतम म्हणटात ती!

अमृता प्रीतम एक पंजाबी लेखिका, तिच्यो कविता, कथा नवलकाणयो जायत्यो देशी-विदेशी भाशांतल्यान अणकारीत जाल्यात. बरें! ती म्हजे पिरायेची तरी आसली? तिच्या मोगान पडपाक? ना! म्हजो जल्म ज्या वर्सा जाला त्या वर्सा तिका साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. हो पुरस्कार जोडपी ती पयली पंजाबी बायल. ८६ वर्सांची म्हळ्यार म्हज्या परस ३६ वर्सांनी व्हड ती. तरीय हांव तिच्या मोगांत पडलों. हांवच कित्याक? म्हजेवरींच आनीक कितलेच तिचेर मोग करताले. तिच्या साहित्यान पिशे जाल्ले.

तिच्या परस बरें बरोवपी जायते आसात. पूण तिच्या बरोवपा सांगाताक आमकां ती चड आवडटाली ती तिचे बंडखोरीक लागून.

पिरायेच्या १४ वर्सांचेर ती बरोवंक लागलेली. तिचें लग्न जाल्लें. मागीर देशाची फाळणी-पार्टीशन जालें. अमृता घोवाक सोडून भारतांत आयली. त्या घोवाचेर तिचो मोग नाशिल्लो. तिचो मोगाविशींचो विचारूच

आगळो-वेगळो आसलो. लग्न जावन कुडी एक जाल्यो तरी मनां-काळजां एक जायनांत. मागीर आपल्या मना आड ताका घोव मानून ताच्या वांगडा जिवीत सारप?

तिचो साहिर लुधियानवी हाचेर मोग आसलो. साहिर हो उर्दुंतलो व्हड कवी आनी गीतकार. सिनेमांतलीं ताचीं गीतां आयकत जाल्यार तो कोण हें कळून येता. तोय तिचेर मोग करतालो. पूण दोगांनीय केन्नाच ही गजाल एकमेकांक सांगली ना. मोग हो समजून घेवचो लागता. तो आसा म्हूण तोंडान सांगपाची गरज पडना.

एक दीस साहिर तिका मेळूंक आयलो. सांगपाक हांव तुजेर मोग करतां म्हूण. पूण ती गजाल सांगपा सारकी नासता देखून ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर आयलीं ना. हांगाच्यो-थंयच्यो गजाली करीत सिगारां ओडीत तो बरोच वेळ बसलो आनी उठून गेलो.

तो गेल्या उपरांत अमृता भानार आयली. येदो व्हडलो गीतकार आपल्या सामकार बसलेलो. तो आपल्याक सांगूंक सोदतालो कितें तरी. ताणें तें सांगलें ना. तरी आपल्याक उमगलें. तीच गजाल हांवूंय ताका सांगूंक सोदी. पूण सांगप जालें ना. ताका ती उमगल्या आसतली काय? ह्याच चिंतनानी अमृता सकयल वयर जाली. तिची नदर मेजावयल्या ॲश-ट्रेचेर गेली. ताणें एकार एक सिगारां ओडून तातूंत पोतेरां वाडयल्लीं. ह्या पोतेरांक त्या म्हान गीतकाराचे ओंठ लागल्यात, ताच्या ओंठांक म्हजे ओंठ लागलेनात, तेन्ना ज्या पोतेरांक ताचे ओंठ लागल्यात त्या पोतेरांक हांवें म्हजे ओंठ कित्याक लावचे न्हय? अशें येवजून तिणें एक पोतेर काडलें. ओंठार धरून पेटयलें. दुसरें घेतलें. तें ओडलें. अशे तरेन सगळीं पोतेरां तिणें ओडलीं आनी त्या दिसा सावन ती सिगारेट ओडूंक लागली.

पंजाबी लोकांच्या धर्मांत सिगार ओडप म्हळ्यार पाप. पूण मोगाक लागून एक बायल मनीस सिगारां ओडूंक लागप ही गजाल मोग करप्यांकूच होलमता. म्हजे सारके जे कोण तिका मेळूंक वताले ते तिका भेट म्हूण सिगारांचें पाकीट घेवन वताले. तिच्या आवडीचें सिगार चेस्टर फिल्ड. देखून ती आपल्याचेरूच कविता करून म्हणटा.

दुकां
हांवें ओडलीं
सिगारां वरीं
गीतां..
हांवें फाफुडलीं
सिगाराच्या गोबरावरीं.

एक दीस हंगेरिया काय खंय तरी संवसारीक कवी संमेलन आसलें. भारतांतल्यान अमृता आनी साहिर गेल्लीं. विमानतळार तांकां कोट-ब्लेजर दिले. त्या ब्लेजराच्या बोल्सार तांच्या नावाची पट्टी आसली. पूण त्यो अदला-बदल जाल्ल्यो. जायत्या जाणांनी तांकां तशें सांगलें. पूण निमणे मेरेन ताणीं तीं नांवां बदललीं ना.

एके राती तिका फोन आयलो. साहिर गेलो म्हूण. तिणें म्हळें म्हज्या नांवाची पट्टी देवान चुकून ताका लायल्ली. खरें म्हळ्यार तें आपोवणें म्हाका आसलें.

असो हो मोग आनी तिचें तें लिखाण आमच्या सारक्या कवी मनाच्या मनशांक पिशें लायना जाल्यार कितें? ही असली गजाल पिशांकूच होलमता...!



# नाक खंय आनी आदोळी खंय?

**'बिम्ब'** सारख्या मासिकान दिवाळी अंका खातीर जायराती मागप हो जसो मुखेलसंपादक म्हूण म्हजो अधिकार तसो कोंकणी मासिका खातीर जायराती दिवप हें गोंयकार आनी गोंया भायले जे गोंयांत उद्देग चलयतात तांचें कर्तव्य ही म्हजी एक हाय फिलॉसॉफी.

हांव जेन्ना अधिकाराची भाशा उलयतां तेन्ना खूब लोकांक ताचें उस्तुरें वता. पूण ताका उपाय ना.

म्हाका जेन्ना साहित्य अकादमीचो पुरस्कार दिलो वो म्हणुया म्हज्या पुस्तकाक दिलो तेन्ना कांय पत्रकारांनी म्हजी प्रतिक्रिया घेतली. तेन्ना हांवें म्हळें 'तो म्हजो अधिकार आशिल्लो.' दुसरे दिसा पेपरांनी हेंच विधान ठळकपणान छापून आयलें. म्हज्या ह्या विधानाचें चडांत चड उस्तुरें गेलें तें गोमन्तक दिसाळ्याक. हें दिसाळेंय एक कॉमिक शें. म्हाका पुरस्कार मेळिल्ल्याची बातमी भितल्ल्या पानार कोनशाक शी चार ओळीनी छापिल्ली. मराठीक जाका मेळिल्लो ताची बातमी मात पयल्या पानार फोटो सयत. आतां कितें छापप, खंयची बातमी म्हत्वाची दिसप हें त्या त्या दिसाळ्याच्या संपादकाचे तांकीचेर आनी समजणेचेर आसा. ताकाय उपाय ना.

पूण जेन्ना हांवें पुरस्कार हो म्हजो अधिकार म्हणू नाका तांचें पित्त

खवळ्ळें. ताणीं ताची दखल घेतली आनी रोखडेंच दिलीप बोरकार यांची दर्पोक्ती, सभ्यता हरवलेला साहित्यीक अश्यो बोबो हुयेली सुरू केल्यो.

आतां नाक खंय आनी आदोळी खंय? हांव एक साहित्यीक.जें कितें बरयलां तें सामकें भायर उडोवपा सारकें आसा अशें अजून कोणें म्हणूंक ना. म्हणून म्हज्या साहित्याचो साहित्य अकादमीन गौरव केलो. जो कोण साहित्यीक ताकाच तो पुरस्कार दिवप हें अकादमीचें कर्तव्य आनी साहित्यीकान तो घेवप हो ताचो अधिकार. जर हांवें विद्याधीराज पुरस्कार, सारस्वत पुरस्कार बी म्हजो अधिकार म्हणिल्लो जाल्यार तेन्ना म्हजी सभ्यता हरवल्या म्हणूं येतालें. साहित्यीक म्हणून साहित्य अकादमीचो वो कला अकादमीचो पुरस्कार घेवप हो म्हजो अधिकार. जो कोण साहीत्य बरयना ताचो न्हय!

आतां हें गोमन्तकाक कोण सांगतलो?

जायरात घेवपाचो अधिकार ‘बिम्ब’चो संपादक म्हूण म्हाका आसा. दरेक उद्देजक आपूण जो कितें फायदो करता ताचो कांय वांटो सामाजीक वावरा खातीर कुशीक काडटा. ते दुड्डू मागीर तो आपले इत्से प्रमाण जो कोण मागूंक येता ताका दिता. दितना मागूंक येवपी आपल्याक फुडाराक कितलो उपेगाक पडटलो हाचोय हिशेब करता.

बिम्ब हें मासिक. तें हांव चलयतां कोंकणीचें एक मासिक आसचें म्हणून. गोंयकार कोंकणी मनीस. तांकांय दिसता आपले भाशेंतल्यान एक मासिक चलचें. तें चलोवप तांकां आपल्या धंद्याच्या व्यापा मुखार शक्य ना. तें कोणेंतरी चलयल्यार आपल्याक जाल्ल्या नफ्यांतलो थोडो वांटो जायरात रुपान दिवं येता. कित्याक तें मासिक सहकारी तत्वाचेर चलोवपी आपूणय एक भागीदार ही भावना. देखून ती जायरात घेवप हो

म्हजो अधिकार आनी तांचें कर्तव्य.

दुसरी गजाल भायल्या उद्योजकांची जे गोंयांत उद्देग चलोवन नफो करतात. तांकां आमी जमीन, उदक, वीज बी सगळें दितात आनी वेल्यान तांचे ग्राहकूय जातात. म्हणटकच आमच्या नाड्यार सगळें जोडपी ह्या लोकांचें थळावे भाशेक हातभार लावपाचें कर्तव्य न्हय? जायरात मागपाचो अधिकार म्हजो न्हय जाल्यार कोणाचो?

आसूं! ही हाय फिलॉसॉफी तांकां कळटा तेन्ना कळटा. जेन्ना ती आमच्याच लोकांक कळना तेन्ना आपलो न्हय ताका कळची म्हूण आग्रो कित्याक धरप?

दिवाळी अंकाखातीर जायरात घेवपा खातीर हांव एका ज्येश्ठ विचारवंताकडेन गेलों. हो ज्येश्ठ विचारवंत साहित्यीकूय आनी उद्देजकूय. तो जर निखटो साहित्यीक आशिल्लो जाल्यार ताचेकडेन हांव साहित्य मागपाक वचपाचों. जायरात न्हय. पूण तो उद्देजक जाल्ल्यान आनी मासीक चलचें अशा विचारांचो जाल्ल्यान ताचेकडेन जायरात मागूंक गेलों.

खरें म्हळ्यार हांवें वचचे आदींच ताणें जायरात धाडून दिवपाची. पूण कांय लोकांक दारांत याचक आयिल्लो जाय. आनी म्हजो सारको साहित्यीक आयलो जाल्यार मागीर हरवें सोदतल्याक पिकिल्लें मेळप.

ज्येश्ठ विचारवंतान जायरात ना हें पयलींच जाहीर केलें आनी आपूण कसो वाटीत सुट्टां आनी आपल्या आस्थापनाची अर्थ वेवस्ता इबाडटां हें सविस्तर सांगलें. तें हे मुखार चलूंक फावना, देखून ताणें ताचेर नियंत्रण दवरूंक मनीस दवरिल्लो. त्या मनशाक हाडून म्हजी वळख करून दिवन आतां सगळें हो नियंत्रीत करतलो म्हूण सांगलें.

म्हाका जायरात ना हाची म्हाका पर्वा नाशिल्ली. पूण बिम्बाच्या

निमतान ताची इबाडपी अर्थवेवस्ता नियंत्रणाखाल येता हाचीच म्हाका खोस जाली. बिम्ब खूब लोकांक बऱ्याक पडटा. मागीर नाक खंयीय आसूं आनी आदोळी खंयीय!

'बिम्ब' उद्देजकांची अनियंत्रीत अर्थवेवस्ता नियंत्रीत करूंक शकता हाची खात्री म्हाका जाली आनी 'बिम्ब' बंद करपाची आयिल्ली निर्शेणी खंयचे खंय गेली. ह्या उद्दजकांच्या कल्याणा खातीर तरी 'बिम्ब' चलोवंकच जाय.



# म्हाका देंवचार लिपयता...

**म्हज्या** रूक्षप्रस्नांत एक प्रस्न आसा. 'तुवें देंवचार केन्ना पळयला?' आनी ह्या प्रस्नाची फोडनिशी करतना हांवें एक गजाल, जी काल्पनीक न्हय तर शंबर टक्के सत आसा ती तातूंत सांगल्या. तीच परत एकदां म्हाका सांगन दिसता.

आमच्या गांवां पासून थोडे पयस शिरदोना लागसार वडवड म्हण एक गांव आसा. थंय उज्या जात्रा म्हळ्यार होळये पुनवे दिसांनी होमखण पेटयतात आनी तातुंतल्यान उक्त्या पायांनी लोक धांवतात. शिरगांवचे जात्रेक धांवतात तशे.

भुरगेपणार शिरगांवची बी जात्रा म्हळ्यार आमकां दुर्मीळ. शिरगांव तेन्ना आमकां मुंबय कशें. लागशिल्ल्या वडवडच्या गांवांत वतलो जाल्यार बस धरची पडटाली आनी मागीर शिरदोना देवून, चलून बरेंच पयस वचचें पडटालें तांबड्या रस्त्यान. ह्या रस्त्यान वतना तेन्ना थंय दावे वटेन रमेश वेलुस्कार, र. वि. पंडित बी रावतात हाची कल्पना नाशिल्ली. तांकां तेन्ना हांव वळखंय नाशिल्लों आनी वळखल्यार तांचे मदलो उजो आनी धग वळखुपाची तांक म्हज्यांत नाशिल्ली. म्हजी पिराय फकत वडवडची उज्या जात्रा, तांतली मजा घेवपा इतलीच सानुली आशिल्ली.

वडवडा म्हज्या व्हडल्या भावाचो इश्ट कोणतरी गजानन म्हण रावतालो आनी आमी तागेर उज्या जात्रेक वतालीं दर वर्सा.

त्याच गांवांत म्हाका एकलो मनीस मेळ्ळो जाका देंवचारान तीन दीस मेरेन लिपयल्लो. देंवचार ताका असो अर्दी मर्दी लिपयतालो आनी मागीर ताका खंय तरी सोडटालो. मागीर तो कोणाक तरी मेळटालो. केन्ना बसस्टॉपार हात वयर करून बस थांबोवपाचे अवस्थेंत खूंट कसो उबो आशिल्लो, केन्ना खंयच्या तरी साकवाचेर देव कसो बशिल्लो आनी केन्ना आनी खंय तरी!

जाका तो मेळटा तो ताका मागीर घरा व्हरून पायतालो. देंवचारान लिपोवन बरे भशेन सोडलो म्हण ताच्या घरांत मागीर खुशालकाय खेळटाली. बायल-भुरगीं ताका खंय दवरूं आनी खंय नाका करतालीं. ताचें दरेक उतर झेलतालीं. मागीर सांजवेळार बल्कावांत वचून तो, देंवचारान ताका खंय लिपयल्लो तें येतल्या वतल्याक सांगतालो.

देंवचार ताका केन्ना वडाचे तेंगशेर तर केन्ना पिंपळाचे तेंगशेर लिपयतालो. तें लिपोवपूय खंय? तर वड-पिंपळाच्या पानां पोंदा. तो वयर तेंगशेर पानां आडसाक रावन सकयल ताका सोदपी सगळ्या लोकांक पळयतालो. पूण सकयल्या लोकांक मात तो दिश्टी पडनाशिल्लो. सकयल भोंवपी लोकांचें सगळें उलोवप ताका आयकूंक येतालें पूण ताच्या तोंडांतल्यान मात आवाज भायर सर नाशिल्लो.

आतां येदो व्हडलो ताचो देह तो देंवचार काय कोण तो चार आगळां इतल्या पिंपळा पानां आडसाक वो ताळटा येद्या वडा खोलये पोंदाक कसो लिपयतालो काय असो प्रस्न म्हाका ल्हान पिरायेरूय पडटालो आनी आतांय पडटा. पूण जेन्ना आमचे संस्कृतायेंत येद्या व्हडल्या हतयाची तकली कापून ल्हान भुरग्याचे मानेक दसोवन, ताची

पुजा आजूनय चलता ते संस्कृतायेंत वडाचे वो पिंपळाचे खोलये पोंदा मनशाक लिपोवप कठीण न्हय.

हातूंत कितलें सत आसा तें म्हाका खबर ना. देंवचार बिवचार ह्या गजालींचेर म्हजो विस्वासूच ना. तरीपूण म्हाका तें एक रूपकशें दिसता. हांवूय हालींसराक ह्या देंवचार लिपोवपा सारक्या अणभवांतल्यान गेलां.

म्हज्यो दोन आयडेन्टीटी. एक भायली आनी एक भितरली. म्हज्या भितरल्या म्हाका हांवच वळखतां. पूण म्हज्या भायल्या रूपाची वळख जगलोकाक आसा. ती म्हळ्यार म्हजें रूप. खाडा मिशयांचें! तें नासतना हांव कसो दिसतां काय हो प्रस्न हेरां वांगडा म्हाकाय पडिल्लो. तो कांय म्हयन्यां फाटीं सुटावो जालो. म्हजे सयत सगळ्यांनीं म्हजें रूप दोळे भरून पळयलें. तातुंतल्यान कोणें कसो निश्कर्श काडलो हें म्हाका खबर ना. पूण हांवें मात त्या रूपांत मनसोक्त मनोरंजन करून घेतलें. देवचारान लिपोवप, लिपयल्ल्याक सगळें दिसप आनी सोदतल्याक मात दिसप ना असोच हो प्रकार आशिल्लो.

हांवें म्हजी आयडेन्टीटी जी केंस आनी खाड हाचे पुरती मर्यादीत दवरिल्ली ती तासून उडयल्ल्यान हांव जनसागरांत विरगळून गेल्लों. म्हाका लोक पळयताले. जांचे वांगडा हांवें बरोच काळ सारला ते म्हज्या मुखावेल्यान वताले. म्हजेर नदर मारताले पूण म्हाका वळखनाशिल्ले. वाटेर मेळपी दर तिसरो मनीस म्हाका हटकिल्या बगर ह्या आदीं मुखार वचनाशिल्लो. म्हाका जर कोणें हटकूंक ना जाल्यार म्हजे म्हाकाच शेणिल्लेवरी दिसतालें. एक व्यसनूच कशें तें. पूण आतां वळखिचे वळखच नाशिल्ले. मागीर हांवेंच वचून तांकां म्हजी वळख करून दिवप, हांव अमको म्हणून सांगप... मागीर हे करणेची म्हाकाच लजशी दिसूंक लागली. म्हाका जर हे वळखनात जाल्यार हांवें म्हजी वळख

कित्याक दाखोवप? म्हाका वळखनासतना जर सगळें वेवस्तीत चलता जाल्यार हांवें वळख दाखोवन मदीं आडखळ कित्याक हाडप? हांवें म्हजी वळख दाखोवप सोडली. हांवूंय आतां मुक्त जाल्लों. पयलीं हांवें म्हाकाच पब्लीक फिगर मानिल्लो. प्रेजेंटेबल रावपा खातीर म्हाका सतत सतर्क रावचो पडटालो. आतां ताची गरज उरूंक नाशिल्ली. हांव खंयीय उबो रावन कितेंय करूंक शकतालों. कशाकशेंय वागूंक शकतालों. कोण म्हाका पळयत हाचो भंयूच गेल्लो. लोक म्हाका वळख नाशिल्ले. हांव मात सगळ्यांक वळखतालों. कितलें मुक्त वातावरण हें, देवचारान म्हाका लिपयल्ल्यावरी.

आतां आतां देवचार म्हाका दर दिसा सोडटा. म्हजें खाड, म्हजे केंस हळुहळू वाडटात. हांव लोकांक सापडटां... सापडूंक नाशिल्लों जाल्यार काय बरे जावपाचें...!



# म्हज्यांतलो नार्सिसस

**दत्ता** नायकाच्या 'जाय काय जूय' पुस्तकाचीं प्रुफां काडीत बशिल्लों.

प्रुफां तपासपाचो फायदो म्हळ्यार पुस्तक वाचून जाता. नातर वाचतलों म्हूण पुस्तक हाडून दवरतां आनी मागीर तें वर्सभर वाचपच जायना.

तरी हांव हालीं मान्य करतां, पयलीं सारकें म्हजें वाचन जायच ना. 'बिम्ब' तयार करतासर वेळ कसो सरता तेंच कळना. तरी म्हजें वाचन कमी जालां अशें कशें म्हणप?

'बिम्ब' मासिकांत जितलें साहित्य येता तें तर हांवच वाचतां. पयलीं संपादकीय सोपस्कार करतना आनी मागीर प्रुफां तपासतना. त्या भायर म्हयन्याक प्रकाशनाचें एक तरी पुस्तक येताच. तेंय अशें वाचप जाता. मागीर वाचन कमी जालां अशें हांवें कशें म्हणप?

पूण एक गजाल खरी. संपादकीय सोपस्कार करतना वा प्रुफां वाचतना पुरायेन लक्ष केंद्रीत जाता तें कामाचेर आनी मागीर आशय-विशयाच्या सौंदर्याची रूच तशी फाव तशी घेवंक मेळना. मनसोक्त पुस्तक वाचपाचें समाधान मेळना.

तरी प्रुफां तपासतनाच वाचनाचोय आनंद घेवपाची एक कळाशी

म्हजे भितर हांवें हालीं हालीं केळयल्या. हाका लागून संगणाकाचेर बसून हेरांचें साहित्य हांव संपादीत करतां, प्रुफांय काडटां आनी वाचना खातीर म्हाका वेळूच मेळना हो जो शीण हांव म्हजेरूय काडटां तोय पयस करतां. अशे तरेन म्हजें वाचन नाय म्हळ्यार भरपूर जाता. कोंकणी जावं मागीर तें!

ही जाली कथेंत आड कथा! हातूंत आनीकय एक आडकथा आसा.

दत्ता नायकाचें 'जाय काय जूय?' हें पुस्तक बिम्ब प्रकाशनाचें आसलें तरी तें बिम्ब प्रकाशनाचें न्हय. तें दत्ता नायकान खंय तरी छापलें. छापूंक धाडटना ताका याद जाली की कोण तरी प्रकाशक जाय.

दत्ता नायक विचारवंत, दत्ता नायक लेखक, दत्ता नायक उद्योजक, दत्ता नायक आनिकूय खूब कितें कितें. तातूंत ताणें प्रकाशकूय जावं येतालें. पूण ताणें तो मोह टाळ्ळो आनी खूपशे प्रकाशक दोळ्यां मुखार हाडले जावंये! मागीर ताणें त्रासदायक पूण न पिडपी असो एका प्रकाशकाची म्हळ्यार म्हजी निवड केली जावंये! दत्ता खातीर हांव 'लवेबल रास्कल'.

दत्ता नायकान आपूण जावन आपल्या ह्या अपत्याचें 'पोदोनपण' काय 'कुपारपण' म्हजेर थापलें आनी हांवें पुस्तकांतल्यो खूबश्यो चुको नदेरआड करून तें आपणायलें. जेन्ना त्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो तेन्ना तर हांवें दत्ता नायका परस चड मिरोवन घेतलें.

आतां मूळ विशयाचेर येतां. आतां 'जाय काय जूय?' ह्या साहित्य अकादेमीन पुरस्कार दिवन भोवमानीत केल्ल्या पुस्तकाचें हांव दुसरें संस्करण काडटां. तेंय कायदेशीर प्रकाशक ह्या नात्यान. ताचेंच हांव प्रुफ्र रिडींग करता आसतनाच वाचनय करतालों.

पयलीं हांवें पुस्तक वाचूंक नाशिल्लें. अडेचें प्रकाशकपण स्वीकारलें

तरी वाचूंक नाशिल्लें. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा म्हूण तरी कुतां काडूंक वाचपाचें. पूण ना. वाचिल्ले न्हय लेख पुर्वप्रसिध्दी जाल्ली तेन्ना हांगा थंय!

पूण आतां मात हांवें तें बारकायेन वाचून काडलें. 'दनपार' हो लेख वाचतना दत्ता नायकान म्हाका खूब वर्सांनी नार्सिससाची याद करून दिली. नार्सिससा भशेन दनपारचे तळयेंत आपलेंच रूप तोखेत बसचें. अशें एक विधान दत्ता नायकांत ह्या ललित निबंदांत केलां.

नार्सिसस, आपल्याच प्रतिबिम्बाच्या मोगांत पडून झरत झरत मरपी नार्सिसस! हेरांमदीं नार्सिसस आसा काय ना आनी आसल्यार कितले प्रमाणांत आसा हाची म्हाका कल्पना ना. पूण म्हजे भितर नार्सिसस आसा.

म्हाका न्हावन आयलो म्हणटकच व्हडल्या हारश्या मुखार नागडो रावन स्वताचेंच प्रतिबिम्ब पळोवपाक खूब आवडटा. पयलीं ऐन जुवानपणार हांव शरीर सौष्ठव म्हळ्यार बॉडी बिल्डींग करतालों. बॉक्सिंगा वांगडाच बॉडी बिल्डींग होय म्हजो छंद आशिल्लो. पणजेच्या मार्टल जिमांत वचून व्यायाम करप आनी हारशा मुखार रावून वेगवेगळ्यो पोजी काडून म्हजें घोटीव शरीर, वेगळे वेगळे कट्स तोखेवप हाचें म्हाका पिशेंच लागिल्लें. शरीर सौष्ठव सर्तींत प्रेक्षकांनी म्हजें शरीर कितलें तोखेलां तें खबर ना पूण म्हाका म्हजेंच तें प्रतिबिम्ब खूब आवडटालें.

आतां तें शरीर सौष्ठव ना तरीय हांव हारशा मुखार रावतां. म्हाका नियाळटां. पिराय सरता तशें शरिराचें चैतन्य वचून स्नायू सदळ जातात म्हणपाचें नदरेक भरता. जण्टेपण जशें जशें येतलें तशें आंग लिबलिबीत जायत वतलें हाची न्हय म्हळ्यार हय न्हय शी भिरांत मनाच्या कोनशाक आसाच. तरी हांव संपूर्ण नग्न रूपांत म्हजे म्हाकाच दर दिसा नियाळटां.

म्हज्या प्रतिबिम्बांतलें तें एकसंघ नागडेपण तोखेतां. नार्सिसस जावन!

म्हज्यांत हो नार्सिसस भुरगेपणा सावन आशिल्लो. भुरगेपणार म्हजेंच प्रतिबिम्ब पळोवंक हारसो खंयचो? आवयकडेन हारशेचो एक कुडको आशिल्लो. तो तिणें वण्टीक दसयल्लो. कपलाक कुकूम लावपा खातीर तिचो वापर ती करताली. ते हारशे कुडक्यांत केन्नाय हांव म्हजें प्रतिबिम्ब पळयतालों. पूण मनसोक्त पळोवंक मेळनाशिल्लें.

मागीर व्हडल्या भावाचें लग्न जालें. भाभी येतना एक पेटूल घेवन आयली. त्या पेटलाचें धाकण काय त्या धाकण्याच्या भितरले वटेन एक पुस्तका येद्या आकाराचो हारसो. हांवें पळयल्लो पूर्ण आकाराचो पयलो हारसो. पूण त्या हारशाचो उपभोग घेवंक म्हज्यांतल्या नार्सिससाक मेळनाशिल्लो.

म्हज्यांतलो नार्सिसस आपल्या प्रतिबिम्बाक तोखेतालो तो बांयत. गायेक शेतांत चरूंक सोडून हांव बांयचे धडेर बसतालों. बांयच्या शांत शितळ उदकांत आसतालें बॅकग्रावंडाक मळब आनी म्हजें प्रतिबिम्ब. हांव म्हजें रूप तोखेत बसतालों. आत्मप्रेमच आशिल्लें तें!

मागीर बांयचें उदक व्हरपाक आमचें शेजारचें चली येतालें. राजवाक कळसुली बांदून तें ती बांयत सोडटाली. कळसुली उदकाक तेंकसर त्या बांयच्या कॅनवासाचेर तें चली आनी हांव जोडप्यान. मागीर कळसुली उदकाक तेंकली की म्हजें प्रतिबिम्ब खंडीत जातालें. म्हाका हें म्हजें खंडीत प्रतिबिम्ब तेन्नाय आवडनाशिल्लें आनी आतांय आवडना. म्हाका आवडटा पूर्ण आकाराच्या हारशा मुखार रावन तोखेवपाक. अखंड नग्न रूप.

फाटीं इंदूराक गेल्लों तेन्ना थंयचो हारशेम्हाल पळोवंक गेल्लों. एका हारशा मुखार रावल्यार सगळेकडेन कितल्योशयोच प्रतिमा.

शेकड्यांनी, हजारांनी. तेन्नाय म्हजे तकलेंत विचार आयलो. जर हांव घराकडेन हारशा मुखार संपूर्ण नागडो रावतां तसो हांगा रावलों जाल्यार म्हजें हें खंडीत नागडेपण म्हाका आवडटलें काय? म्हज्यांतलो नार्सिसस सुखावतलो काय? मनशाक आपलें नागडेपण, आपलो ओपननेस पासून कितलो अखंडीत जाय पडटा!



## विनोदी कथा आनी हांव... !

**दिलीप** बोरकार म्हळ्यार कोणाच्यो तरी टिवल्यो बावल्यो करुन बरोवपी वो कितें तरी हळशिकावणें, बुरशें, आपूण सोडून घरच्या कोणेंच न वाचपा सारकें बरोवपी अशी म्हजी सद्या फाम जाल्या.

ही फाम घालपीच ह्या दिसांनी ओंदुच्या दिवाळीं अंकांनी म्हजें कितें छापून येतलें काय हाची कल्पना रंगयत आसात. हो म्हजो तर्क न्हय. हातूंतल्या कांय जाणांनी हुसको उक्तायला हें सगळ्यांक खबर आसा. आजून कांय लोक एकमेकाक प्रस्न करुन आपले भितरुच खूक करुन हांसतना दिश्टी पडटात.

चंद्रकांत खोत म्हूण एक मराठी लेखक आसा. तोय दर वर्सां आपलो अबकडई मूहण दिवाळी आंक काडटा. तोय तातूंत म्हजे सारकेंच, पूण जें हेरांक बुरशें दिसता असलें कितें तरी बरयतालो. ताचो तो दिवाळी आंक खपतालो आनी म्हाका जशे प्रस्न विचारतात तसलेच प्रस्न ताकाय विचारुन, तो म्हळ्यार असलेंच कितें बरोवपी असो ताचेर छाप मारुन ताका शापीत करुन उडयल्लो. फाटल्या वर्सांच्या दिवाळी अंका सावन चंद्रकांत खोत सुदारल्लो आनी दुर्गा भागवताक लेगीत धक्को बसलो. खोत जरी शापीत थाल्लो आनी सुदारलो तरी म्हजे सारको शापोती सुदारपाचो ना हेंय जायत्या जाणांक खबर आसा.

हालींच कोंकणी दिवाळी अंकाचे संपादक श्रीमान गजानन जोग म्हाका मेळ्ळे. दिवाळी अंकाचे संपादकपद म्हळ्यार हेर दिसाळ्यांच्या संपादकपदावरी न्हय. हो देड दिसाचो गणपती कसो! दर वर्सां दिवाळी आयली म्हणटकच कोणाची तरी दिवाळी अंका खातीर निवड जाता आनी अंक भायर सरलो म्हणटकच आंगावेलीं संपादकीय वस्त्रां काडचीं पडटात. हे बाबतीत एकूच आडवाद तो जयंती नायकाचो. राजू नायक कोंकणी भाशा मंडळाचो अध्यक्ष आसलो तेन्ना ताचे कारकिर्दीक स दिवाळयो उलगल्यो.( दिवाळी ह्या उतराचें भौवचन दिवाळ्यो जाता काय कितें हें वाचप्यांनी सुरेश बोरकारां कडल्यान समजून घेवंचें. दामोदर घाणेकार वो मुकेश थळी हांकां विचारचें न्हय. ताणीं दिवाळीचें भौवचन दिवाळें अशें केलां म्हणपाचें हालींच प्रभाकर भिडे हाणीं म्हाका म्हणिल्ल्याचें याद जाता.) ह्या स दिवाळ्यांतल्या स दिवाळी अंकाचें संपादन करपाचो मान जंयती नायकाक फावो जाला.

सगळे कोंकणी लेखक कथाकार आपलें लेखक म्हण नावारुपाक येवपाचें श्रेय राष्ट्रमताक, जागाक आनी राजहंसाक दीत आयल्यात. तातूंत चड श्रेय वता चंद्रकांत केणी हांकां. ताणी धाडिल्लें साहित्य केणीबाबान छापलें म्हूण ते लेखक, कवी बी जावंक पावले हातूंत कोणाचें दुमत ना. ( हांव स्वता मानतां मागीर बाकीचे कित्याक न्हयकारतले ? )लेखक करपाचें श्रेय जशें केणीबाबांक वता तशें कवी-कथाकारांक संपादक करपाचें पुराय श्रेय कोंकणी भाशा मंडळाक वता.

संपादक जावप हें तशें सोपें काम न्हय. जे कोण उद्येगपती आसात ते आपलें एक दिसाळें काडटात आनी आपले मर्जेतलो एखाद्रो वेंचून काडून ताका संपादकाचे खुर्चेर बसयता. त्या संपादकाक उपरांत सगळ्यो सुखसोयी मेळटात. भरपूर पगार मेळटा, गाडी आनी बंगलो मेळटा.

फोन मेळटा. व्हडल्या व्हडल्यांच्या पार्ट्यांक वचूंक मेळटा. ( तातूंतले कांय जाण पार्ट्यांक वचून दूद पिवन येतात हीं तांची कर्मकट्टेपणा, ताका कोण  कितें करतलो?)इतलेंच कित्याक राष्ट्रपती आनी प्रधान मंत्र्यांच्या विदेशी दौऱ्यां वेळार तांच्या वांगडा वचपी पत्रकार पंगडांतूय तांचो आसपाव जाता. दिसाळ्यांच्या संपादकांक मेळपी हें सूख कोंकणीच्या संपादकांच्या नशिबांत नासलें तरी एक वर्सांक संपादकाची पदवी मेळप म्हळ्यार कितें थोंडे न्हय. कार्नावालाक तीन दीस किंग मोमोची राजवट चलता तशी ह्या लेखक कवींची सत्या ह्या संपादक अवस्थेंत चलता.

म्हाका लेखक म्हूण मान्यताय मेळळ्या उपरांत वो म्हजो तसो समज जाल्या उपरांत म्हाका एकदां तरी कोंकणी अंकाचो संपादक करचें अशें म्हाका दिसतालें. म्हज्या मनांतली ती सुप्त इत्सा केन्ना पुराय जातली, केन्ना पुराय जातली(केन्ना गोंयां, केन्ना गोंयां हे धरतेचेर) अशी अथरेकणी म्हाका लागिल्ली. पूण म्हजो एकदां लेगीत एकाय अध्यक्षान विचार केलोना. ज्या  राजू नायकाच्या पंगडांतलो म्हूण म्हजेर छाप मारलो त्या राजून लेगीत एकदांय मनांत हाडलें ना. चंद्रकांत केणी हाणीं आपलें कुळागर काडून पुंडलीक नायकाक दिलें. त्या कुळागराच्या भरीचें काम करपी हांव एक ल्हानसो भरींचें  वावराडी लेगीत जावंक पावलोंना. जेन्ना सामकीच आस सोंपली तेन्ना निरुपाय म्हूण हांवेंच म्हजो दिवाळी अंक सुरु केलो आनी तुझा तू वाढवी राजा म्हणत म्हज्याच गळ्यांत हांवें संपादकाची माळ घालून घेतली.( जाता तें बऱ्याकूच म्हणटात. आता हांव सुखी आसां.)

हें सगळें बरोवपाचें कारण म्हळ्यार गजानन जोग हांकां कोंकणी दिवाळी अंकाचो संपादक केला म्हूण न्हय. हांव जेन्ना एका दिवाळी अंकाचो संपादक आसां तेन्ना दुसऱ्याचो दुस्वास करपाचें म्हाका कारण

ना. पूण एकदां दात्यार बसतकच ओंवयो येतात तशें आतां दिवाळी अंका खातीर दळटना ह्या सगळ्याची याद जाली. ताचें कारणूय म्हळ्यार संपादक जोग हाणीं म्हजेकडेन ओंदुच्या कोंकणी दिवाळी अंका खातीर विनोदी साहित्य मागलें.

म्हजेकडेने विनोदी साहित्य मागप आनी हांवें तें दिवप हाचे इतलो विनोद ह्या नूतन हजारिकेंत दुसरो आसचो ना. म्हाका केन्नाच विनोदी बरोवंक आयलेंना. आतां म्हजीं बोरकारी वो तीर-सुवादीक कॉलम बी सदरां वाचून वाचप्यांक हांव विनोदी बरोवपी असो गैरसमज जाला आसत जाल्यार तातूंत म्हजी चूक ना. चार्ली चॅप्लिन आपल्या सैमीक रुपान वावुरतालो. पूण लोकांक तातूंत व्यंग आनी विनोद दिसतालो. तशेंच हांव कितें सुचता तें बरयतां तातूंत वाचप्यांक व्यंग दिसता आनी तें हांसतात ताका हांव कितें करुं? केळ्याचे सालीचेर पांय पडून एखाद्रो सकयल पडलो आनी ताचे कुले धाडवले जाल्यारुय लोक हांसतात. आतां त्या बाबड्याच्या धाडवल्ल्या कुल्यां भितर आनी ते साली भितर कसलो विनोद आसतलो ? तातूंत जर विनोद आशिल्लो जाल्यार दरेक मनीस केळीं खावन साली रस्त्यार उडोवपाचो आनी ताचेर आपलोच पांय दवरुन सकयल पडपाचो आनी लोकांक हांसोवपाचो. कांय लोक विनोदा खातीर आयज नाका जाल्लीं नाडेपेन्ना करतात तशीं तांकां तीं करचीं पडपा निशिल्लीं.

म्हजे नदरेन गोंयांत विनोदी लेखक तीग जाण आसात. एक गजानन जोग, दुसरो दत्ता श्री. नायक आनी तिसरो तानाजी हळर्णकार. हांवें हांगा फकत तिगांयचींच नांवां घेतली म्हूण जायते जाण म्हज्या नांवान बोटां मोडटले हातूंत दुबाव ना. म्हजें तांच्यानी कांयच मोडूंक जायना देखून ते आपलींच बोटां मोडटले हें खरें आसलें तरी तांकां

म्हज्या ह्या लेखांत हांवें सुवात दिली ना देखून ते खंती जातले हें सत. असल्यो घडणुको आमच्या कोंकणी साहित्यिकां मदीं, लेखकां मदीं, कवीं मदीं दिसपट्ट्यो घडटात. ताकाच लागून ते एकमेकाचीं तोंडां पळयनांत वो वायट दिसूनय वयले चाराक संबंद दवरतात. ( हो संबंद दवरपाचें कारण म्हळ्यार ह्या लेखांत नजरचुकीन आपलें नांव घेवंक विसरला, फुडल्या लेखांत घेतलो अशी स्वताचीच समजूत करुन घेतिल्ल्यान)

कांय नाटककारांक दिल्लीची खंयची तरी संस्था नाटकाचेर बरोवंक सांगता. ते नाटककार तातूंत आपलेच गूण गायतात.बरोवन सोंपपाकडेन पावले उपरांत ताका कळून येता की हें आपणे आपल्याचेरुच बरयलां. बरें दिसना तें. मागीर तो आनीक कांय नाटककारांचीं नांवां तातूंत घालतात आनी आपूण मुक्त जाता.(मुक्त जाता असो प्रयोग केल्ल्यान पुंडलीकबाबान आपल्याक लावन घेवचें न्हय. मुक्तताय आनी उदारणाखातीर घेतिल्ल्या नाटककारांचो कसलोच संबंद ना.)

तेच तरेन एक कवी ( रमेश वेळुस्कार न्हय. फकत उदारणाखातीर कवी) कोंकणी कवितेचेर बरयता आनी आपले वांगडा आनीक कांय कविंचीं नांवां घेता. हीच गजाल कथा, कादंबरी ह्या विशयां बाबतींत घडटा. प्रत्येक वाचपी आपलें खंय नांव आसा कांय पळोवपा खातीर ते लेख वाचतात आनी ते सापडलेंना म्हणटकच बरोवप्याक गाळी घालतात. तीच गजाल आयज म्हजे बाबतींत घडपाची आसा. आतां म्हाका तुमीच सांगात हांव हांगा अना म्हांबरेचें नांव विनोदी लेखक म्हूण घेना थंय ऑलव्हीन गोम्स आनी दोतोर भिकाजी घाणेकाराचें कशें घेतलों? घेतलें म्हूण कितें चड जागो वतलो अशें न्हय. येद्या व्हडल्या ह्या लेखांत हीं नांवां म्हळ्यार साळगांवकाराले ओले पार्टेत अशोक भोंसलो कसो! पूण

जनाचें नासलें तरी मनाचें म्हूण कितें आसता काय ना ?

आतां हांवें अनाचें विनोदी लेखक म्हूण नांव घेतलेंना हाका वाचपी हरकत घेतले. सगळे विनोदी लेखक म्हूण अनाकडने पळयतात. हांवूय पयलीं पळयतालों. पूण तो इतलो गंभीर आनी रुक्ष रावता कि केन्नाच चुकून लेगीत हांसना. विनोदी लेखकान विनोदीच दिसूंक जाय अशें हांव म्हणना. म्हाबळेश्वर सैल पळय मेळटा तेन्ना कसो तोंडभर हांसता. पूण ताच्या दरेक बरोवपांत रडपूच आसता. ह्या असल्या उदारणां वेल्यान आसता तसो नासूंक जाय अशें म्हजें मत घडलां. हांगा अनाचें बरप वाचून लोक हांसतात हें खरें आसत, पूण हांवें विनोदी रुपांत तांकां पळोवंक नाशिल्ल्यान ते विनोदी म्हणपाचो छाप म्हजेर पडूं नासुये! आसूं

गजानन जोग, दत्ता नायक आनी तानाजी हळर्णकार तिगूच विनोदी लेखक दिसपा फाटलें वो म्हजी खात्री जावपा फाटलें कारण म्हळ्यार लळितक हे कर्यावळींत ताणीं सादर केल्ल्यो कथा. हे आदी हांवें हें खंयतरी सांगलांच. गांवां गांवांनी जावपी हे कार्यवळीक हांव कदेलां मांडपाक वतालों. मागीर म्हजी सगळी तकालस हांच्यो विनोदी कथा आयकून खंयचे खंय नाच जाताली.

त्या काळार गजानन जोग आपली कथा सांगतालो ती म्हळ्यार पाशत. सगळे लोक लळितक आयकुपा खातीर बसल्यात, कविंच्यो कविता आयकून उबगल्यात. इतल्यांत निवेदक, चड करून नागेश करमली आसूंक जाय( हांगा नागेश करमलीन आपलें नांव घेतलां म्हूण म्हाका माफ करचो, निरुपाय.)ताणीं म्हणचें, आतां तुमचे मुखार येता पाशत घेवन गजानन जोग. आनी खऱ्यानीच गजानन जोगान पाशत घेवन प्रवेश करचो. लोकांमदीं येवन आसनमांडी घालून बसचें. आपलें पाशत आपले

मांडयेर दवरचें आनी मागीर कथा सांगची. तागेलें तें आसनमांडी घालून बसप, तोंडार मिश्किल भाव हाडून आयकुप्यांक पळोवप आनी आपणेंच हांसत हांसत पाश्ताचें वर्णन करप, तें आयकून नागेश करमलीन ( नागेशबाब पर्थून सॉरी.) मोठ्यान हांसप आनी मागीर हेरांनी मोठमोठ्यान हांसप ! खरेंच म्हजी हांसून मुड्डी पडटाली.

दुसरो कथाकार आमचो दत्ता श्री. नायक. ताणें तेन्ना पिटर ओटूल ही कथा सांगप. आपले घारसे दोळे मिचकायत, आपल्या बोल्सांतलें पिस्तोल काडून ते केन्ना आमचेर गुळी घालीत हें सांगू नज अशें दिसतालें. तो पिटर ओटूल सांगतना पोले हालयतालो, दोळे घुंवडायतालो आनी तोंडांतल्यान बेब्याचे, कातरीचे आनी कसले कसले आवाज काडून कथेक फाव सारकी आवाजा येवजण करतालो. म्हाका ताचे कथेचो आशय विशय ते वेळार जरी कळनाशिल्लो तरी ताचे ते तरांतरांचे आवाज आनी आपले कथेंतल्या व्यक्तिरेखांचें चित्रण आयकून हांव पोट धरुन हांसतालों. इतलेंच कित्याक, अजून लेगीत दत्ताबाब म्हाका खंयीय मेळ्ळू, ताका पळयल्या बरोबर म्हज्या कानार बेब्यांचे ट्रँक.. ट्रँक..,ट्रँक.. ट्रँक.., अशे आवाज पडटात. कात्रीचे चॅक चॅक आवाज सादूंक लागतात आनी म्हाका भितरल्यान हांसपाक येता.

तिसरो विनोदी कथाकार म्हळ्यार तानाजी हळर्णकार. तेन्ना तांकां दोतोर ही पदवी मेळूंक नाशिल्ली. हांव हांगा तेच पासत दोतोर तानाजी हळर्णकार असो उल्लेख करिना. (ताणीय माफ करचें). तानाजीबाब मायकाकडेन येतालो, येतां येतां म्हाका आनी कित्याक? आसूं...आसूं म्हणटालो. म्हणजे जाली ती कार्यावळ खूब जाली. पुरो करुया, म्हजी आनी कथा नाका. पूण तो अशें म्हणत मायकाकडेन पावलो म्हणटकच कथा सांगले बगर ताकाय पर्याय उरनाशिल्लो आनी आयकल्या बगर





आयकुप्यांकूय गत्यंतर नासतालें. तो आपले कथेंत महिला मंडळाच्या वावराचें वर्णन करतालो. ताची बायल वेगवेगळ्या खाणांचे सर्तीत वांटो घेताली आनी जें कितें रांदता तें कथाकाराक खावचें पडटालें. एकदां ती गांयडोळांचें शॅकशॅक करता.( तेन्नाच्यान हांवें शेवयो खावपाचें सोडलां.) ताचें  वर्णन तानाजीबाब रंगोवन सांगतालो आनी सगळे लोक पोट धरुन हांसताले. हरशीं मोगान संवसार करपी हीं घोव बायलां एकदां नाटक करुन झगडटात आनी तें झगडपाचें नाटक चलतनाच बायलेचो बापूय थंय पावता आनी तीं खऱ्यांचीं झगडीं अशें समजून आपले धुवेक घेवन वता. हो प्रसंग तानाजीबाब इतलो रंगोवन सांगतालो की दिसतालें ही घडणूक खऱ्यानीच घडटा काय कितें ! ( तसली संद हांवूय सद्या सोडतां.) अशी ही कथा आयकून हांसले बगर कोणाच्यान रावूं नज जातालें. तांच्या उपरांत ( म्हळ्यार ते सगळे अजून आसात. फक्त कथा केन्ना आयकूंक मेळना ) हांवें तसल्यो विनोदी कथा केन्ना आयकूंक ना. देखूनूच तांचे बगर म्हाका दुसरो विनोदी लेखक अजून दिसूंक ना. अनाय ना आनी हांवूय ना. अशें आसतना गजानन जोगान म्हजेकडेन विनोदी कथा मागली म्हळ्यार कितें? संपादकपदाचो दुरुपेग बी न्हय मू हो? कांयच कळना!



# पोटींग

**दर** वर्सा एप्रिल–मे म्हयनो हांव फक्त म्हजे खातीर दवरतां. पयलीं हांव एकटोच म्हाका जाय थंय भोवतालों. रिझर्व्हेशन नासल्यार लेगीत ट्रेनीची तिकेट काडून गाडयेंत बसतालों. ट्रेनीच्या डब्याच्या दारार लांबून लेगीत हांवें रातभर प्रवास केला. तेन्ना तरणेपणाचो मद आशिल्लो. आतांय आसा. पूण वेगळे तरेचो. तरी एक जबाबदारी आसा. कुकीची, काकीची.

काकी म्हळ्यार कामिनी किणी. ताच्या नांवाचीं आद्याक्षरां घेवन ताका पयलीं सावन सगळे काकीच म्हणटात. ताचो चलो अदीक. ताका ताचे घरचीं आनी हांवूय कुकी म्हणटां. कुकी म्हाका काका म्हणटा. अशे तरेन फाटलीं तीन वर्सां ह्या एप्रिल–मे म्हयन्यांत काका, काकी, कुकी खंय ना खंय वचून येताच. कुकीक शाळा आसता देखून जुनाचे सुर्वेक ताका येवंकूच जाय आनी म्हाका?

म्हाका खंय गेल्यार परत येवंकूच जाय अशें कांय ना. पयलीं आवय आसतना म्हाका परतुपाचें आसतालें. देखून हांव सकाळीं भायर सरिल्लीं सवणीं सांज जालीं काय घोटेरांत परततात तसो खंयीय गेल्यार घरा परततालों. पूण आतां तो हुसको ना. म्हणटकच हांव सरळ दिकेन खंयीय वचूंक शकता. तरी पूण हांव परतो येतां कित्याक? हिकाच ती जबाबदारी म्हणटात. ही आनीक एक जबाबदारी. बिम्ब म्हूण हें एक

काम घेवन कितें तरी करीत आसता.

तरी परतुपाचें तेंय एक कारण न्हयच. म्हाका साद घालता तो गोंयचो पावस. पावस तसो सगळेकडेन पडटा. आदले वर्सां हांव सिंगापूर, मलेशिया हांगा आशिल्लों. सिंगापूराक तर अदींमदीं वर्सूयभर पावस पडटा. पूण ती पीरपीर. पूण मलेशियांतलो पावस हो आकांताचो. गोंयांत जसो काळोख करून दडकांनी, जोगलावण्याच्या आनी गडगडाच्या भारार पावस रकता तसो तो मलेशियांत रकता. थंयचो तो पावस पळोवन, वातावरण पळोवन कालिदासाचे मेघ उजैनचे काय ह्या मलय प्रदेशांतले काय? असोय म्हाका प्रस्न पडिल्लो. पूण हो पावस खिणयाळो. माया म्हयन्याक हांवें तो अणभव घेतिल्लो. पूण त्या पावसाक आनी गोंयच्या पावसाक सर करुंक नज. गोंयां पावसाची सर खंयच्याच पावसाकडेन करुं नज. देखून हांव मलेशियाक चड काळ रावनासतना गोंयच्या पावसा खातीर गोंयां परतल्लों.

फाटल्या वर्सा म्हजी तकली उसयल्ली.प्रवास झेपचोना अशें दिशिल्लें. आत्मविस्वास मात्सो ढळमळीत जाल्लो. तातूंत दोतोरांनी गाडी चलोवं नाका म्हणिल्लें. धा दीस सतत गाडी चलयली. दोन हजार किलोमिटर. आख्खें महाराष्ट्र पालतें घालें. तातुंतल्यान 'काल सर्पयोग' प्रवास वर्णन तयार जालें.

ह्या वर्सां मात एप्रिल-मे हुकलो. तरी थारायलें, नेम मोडप ना. जून धरप. काश्मिराक गेलीं, मे सोंपतां सोपतां जूनाच्या आरंभाक. म्हाका पयलो पावस मेळ्ळोच ना. दिल्ली न्युजार कळ्ळें. गोंयांत पावसान सांवार मांडला, दिवचल हुंवाराचे दिकेन म्हणू मागीर पूण म्हाका चिटमिटे पडले. तरीपूण, कश्मिराक पावस पडलोच. पावस कसलो? कऱ्यांचो. आठ वर्सांनी टुरिस्ट सिझनांत पावस पडिल्लो आनी बर्फूय पडिल्लो खंय।

म्हणटकच हांव लकी म्हणपाचो पूण खरें सांगू, हांव कश्मिराक. पूण मन म्हजें गोंयांत. पावसाच्या वेगवेगळ्या रुपां वांगडा खेळपाक.

गोंयचो पावसूच तसो पिशें लावपी. माया म्हयन्याचे अखेरेक वारो कुपां जमोवन हाडटा. मळबाचेर तीं मांडून दवरता. ह्या काळ्या काळ्या कुपांक एक आगळेंच सौंदर्य आसता. तशें काळ्या कुपांचें खाप्री सौंदर्य.

हीं एकमेकाचो हात धरुन फुगडी घालूंक वा धालो खेळूंक उबीं राविल्लीं कुपां उदकान गर्भार जाल्यांत अशें म्हाका दिसता. त्या कुपांतल्यान मर्दीच ती वीज चकचक करुन वाट काडीत खंय तरी वता. विजेचें काम कितें काय? शास्त्र-विज्ञान कितेंय सांगू।

अडलेले गुरवारीक सिजरियन करुन ही वैज वो वैजीण सोडयता. गर्भारलेल्या कुपांक ही वीज आपलो करंट बी दिना मूं पावस ओतूंक। म्हाका तें पळोवंक खूब आवडटा.

मागीर पावस लागता. लागता कसलो? ओतता तो. हो पावस ओततना पळोवंक जाय. हांव कांयच करिनासतना तो पळयत बसतां. पावसांत खूब कितें बरयतलों अशें म्हाकाय आनी हेरांकूय आश्वासन दितां. बरोवंक बसतां. वरांची वरां. पूण कागदार कांयच देंवना. सगळें मनांत आसता आनी दोळे मात भायर पावसाचेर. खंय जोगलावता, खंय गडगडटा. खंय निळाय, खंय धुंवरी आनी पावसाचें तें पडप...।

पावस पडटा, काय पावस झडटा? झडपा खातीर तो कोणेतरी झडोवंचो पडटा. आनी पाडपा खातीर तो कोणें पाडूं नाका? हांव त्या झंझाळात पडना. ताका जाय तेन्ना पडूं दी, जाय तसो झडूं दी. म्हजी सर्वय जीण तृप्त करुं दी. पावस पडूंक लागलो म्हणटकच कोणाक कालिदासाची याद जाता. पूण म्हाका याद जाता बाकिबाबाची. बाकिबाब

भर पावसांत जुलाय म्हयन्यांत गेल्लो. ताणें निमाणो स्वास घेतलो तो पुण्याक. ते दिसा पुण्याक पावस पडटालो काय खबर ना. गोंयांत मात उटंगाराचो पावस पडटालो. ह्या पावसान गोंयची भूंय भिजिल्ली पावसान आनी गोंयकारांची मनां बाकिबाबाच्या मरणान.

पूण म्हाका बाकिबाबाची याद जाता ती तो भर पावसांत अंतरलो म्हूण न्हय तर ताणें पावसाचेर भरभरुन काव्य रचलें. हांव भायर पडपी पावसाकडेन पळयतां. पावस घोटून तृप्त जाल्ली रुखावळ पळयतां आनी त्या वेळार सहज मनांत घोळटात बाकिबाबाच्यो ओळी

सरीवर सरी आल्या गं
सचैल गोपी न्हाल्या गं
वेली ऋतुमती झाल्या गं

व्हाळांतल्यान व्हावत वचपी उदकाचे वयर एखाद्रें पान सकयल -वयर नाचत वचचें तशें बाकिबाबाच्यो ह्यो ओळी हांव पावसाचें हें लावण्य पळयतना म्हज्या मनाचेर उफेतात.

हांव पावसाक पळयतां. पावसान न्हावन म्हणचे परस इतलो तेप उदकाक आशेल्ल्या वतान, गरमेन सामकीं आकुळपिकूळ जाल्लीं रुखां, वाल उदक घोटून सामकीं तृप्त जावन उबीं राविल्लीं. तांकां पळयतना म्हाका तर तीं पावसांत आंबोली, जांव हरवळेच्या घसघश्या पोंदा माथ्यार उदक घेत कुडकुडपी माणकुल्या भुरग्यांवरी दिसतात. बाकिबाबाक तर ह्यो असल्यो वाली ऋतुमती जाल्लेवरी दिसतात.

ऋतुमती जावप आनी ऋतुमती जाल्ली ऋतुजा पळोवप, तिची कांत, तिची तिकतिकसाण आनी हय, तो गंध ह्यो सगळ्यो गजाली संवेदनशील एका सर्जकाकूच भावतात. बाकिबाबांचे सर्जनशीलतेक आनी संवेदनशीलतेक हांवें प्रमाणपत्र दिवप म्हळ्यार म्हाका हांवेंच

अप्रबुध्द म्हणप. पूण वेली ऋतुमती झाल्यां गं म्हणटना बाकिबाबाक कितें म्हणपाचें आसा तें होलमल्या बगर रावना.

बाकिबाब मुखार वचून म्हणटा, पाने पिटती टाळ्या गं?

पावस पडटना, पावसांत भिजत वो भितोडेक जांव आडसाक रावन भुरगीं पावसाक पळयत जश्यो टाळयो मारतात तशींच हीं पांनां पावसाचे थेंब आंगार घेवन जशीं कितें टाळयोच टाळयोच मारतात.

पानांचें टाळयो पिटप जालेंच. पूण कांय रुखां, झोपां आंगार पडिल्लें पावसाचें उदक माथ्यावेलो खोपो हालोवन कशीं शिरशिरतात, मागीर चुडटांच्यो चुडट्यो भर पावसांत वाऱ्या सांगाताक पिटपिट करतात तें पळयत रावपांत एक आगळीच खोस आसता. ह्यो गजालीं पळयतना तंद्री लगप हो म्हजो पावसांत सदचेच कार्यक्रम म्हळ्यार जाता.

बाकिबाबांचो फुला म्हूण एक निबंद हांवें खूब पयलीं वाचिल्लो. फुलांचें वर्णन करताना गुरवार बायलेक उपमा दितना फुल्लट म्हणटात अशें कितें तरी बाकिबाबान बरयल्लें. म्हजे मुखावेल्यान कोणूय गुरवार बायल गेली काय म्हाका बाकिबाबाचें हें फुल्लट उतर येवजता आनी गुरवार बायलेक गुरवार म्हणचे परस फुल्लटच म्हणप म्हका आवडटा.

पावसांत फुल्लटची याद जावपाचें आनीक एक कारण आसा.

भुरगेपणावेलो पावस हांव अजून विसरुंक ना. शाळा सुट्टकच पाटी माथ्यार धरुन पावसांतल्यान धांवत घरा येवप. गडगड, विज हांच्या भंयान थरथरप, काळोख करुन घसघशानी पावस रकूंक लागलो म्हटकच बल्कावांत येवन बसप. नळ्यांचेर पावसाचो खडखड शिंवोर जावप आनी मागीर पावळेंतल्यान करेय पडप. हय हांवें भुरगेपणार गोंयांत करे पडटना पळयलां. मराठींत तांका गारा म्हणटात. कश्मिर आनी हिमाचलाकय हांवें हे करे खाल्यात. तांका थंय ओले म्हणटात.

गोंयांत आमच्या घरार हे करे खडखड करुन पडटाले तेन्ना ते वेडून खावंक हांव भायर वचूंक पळयतालों. आवयची नदर चुकोवन. तांका करे म्हणटात हें आवयनूच म्हका सांगिल्लें. तें उतर तेच पासत म्हज्या मनांत  घट्ट बरें रिगलां.

तर अशें हें पावसांतलें भुरगेंपण. उमेदीचें, मौजेचें, थोडें भिरांतेचे. पावस पडूंक लागलो म्हणटकच घरांत थंडी भारकूण हें आयलेंच. आता जशे लोक खींक आयल्या बराबर दोतोरागेर धांवतात तशें धावंक ते काळार परवडनाशिल्लें आनी दोतोरुय आयचे सारके रासभर नाशिल्ले. थंडी जाली, जोर आयलो म्हणटकच गांवठी, घरचें वखद जातालें. आंगाक सोरो काडप, फेणी बशेंत घालून तिका उजो लावप आनी मागीर तातूंत साकर घालून चाटपाक दिवप अशें कितें कितें चलतालें. ही फेणी माडाची आसताली. आई बाटली दिवन म्हाका फेणी हाडूंक धाडटाली. रेंदेर आमचे वळखिचोच दोमाशान म्हण. पावभर फेणयेक तो पयशे कितें घेतलो? पूण कोणाचें फुकट नाका ही आवयची सांगणीं. ती चार-आठ आणें कितें तरी दिताली. फोर्स करुनय फेणयेकार म्हजे कडल्यान पयशे घेना आशिल्लो. आईक सांग पयशे नाका अशें म्हणत तो पाव भरुन दितालो. हांव ते पयशे म्हज्या बोल्सांत उडयतालों.

फेणी हाडूंक वचपी ही वाट शेतांतल्यान वताली. आमचें भाट आनी त्या रेंदराचें भाट हाचे मदीं शेत. शेतांतल्यान मदीं एक बारीक पांयवाट वताली. दोनूय वटांनी म्हजेपरस व्हडलें थाम. ते वाटेन वतना हांव कोणाक दिसच नाशिल्लों. ते भायर शेतांत कोले बी आसतात हो भंय. फेणयेचे पयशे बोल्सांत घालूंक मेळटाले आनी येता आसतना ते बाटलेंतलो फेणयोचो एक थेंब जिबेर दवरुंक मेळटालो हे आशेन हांव त्या तकलेपरस वयर पाविल्ल्या थामांतल्यान जीव मुठीत धरुन वतालों

आनी येतालों.

केन्नाकेन्नाय त्या भाता थामाक कणसां आयिल्लीं आसतालीं. जांची कणसां वयर सरुंक ना पूण पोटां मोठी जाल्लीं आसतालीं. त्या थामाक चिमटेंत धरुन ओडल्यार तें अचळय वयर येतालें. ताका पोटींग म्हणटाले. तो काडून भितरलें तें गोड गोड कवळें भात वो कणस खावपाक खूब मजा येताली. पूण आवय भंय घालताली. शेतकार मारतलो. तशें खावप पाप. अशें कितें कितें सांगतालीं. पूण ते वाटेन वतना एकाद दुसऱ्या पोटींगाक हात वतालोच.

तो पोटींग जून जाला काय कंवळो आसा तें पयलीं पळोवप. मागीर एक हळूच काडप. पोंदचो भाग निमुळटो, धवो फुल्ल. मागीर वयलो फुगीर. गुरवार बायलेचें वाडिल्लें पोट कशें। भुरगेपणार तें कळनाशिल्लें. उपरांत अक्कल आयली तेन्ना नदर बदलली. बाकिबाची फुल्लट बी उतरां कळूंक लागलीं. तें पयलीं खबर आशिल्लें जाल्यार त्या भाताच्या पोटींगाक पोटींग म्हणचे परस फुल्लट म्हणपूच म्हाका आवडटलें आशिल्लें.

आतां शेतां वाडटात, कणसां धरपाक लागतात तेन्ना म्हाका त्या भुरगेपणावेल्या पोटींगाची याद जाता. बाकिबाबान हे पोटींग पळयल्ले जाल्यार गुरवार बायलेक फु ल्लट न्हय पोटींगूच म्हणटलो आशिल्लो अशेंय म्हाका हो पावस पळयतना दिसले बगर रावना.



# सनातनी हुंकार

**सनातन** संस्था, सनातनवाल्यां वावर हाचेर मंथन चलतना कोणेतरी म्हळें, साधक जावन जी गोंयचीं बायलां, चलयो सनातनवाल्यांच्या जाळांत फारवल्यांत तांकां तातूंतल्यान भायर काडपाची गरज आसा.

हें सांगपी आमच्या गोंयचोच एक विचारवंत. रासवळ मळार वावुरपी ! रासवळ मळार आसलो तरी  विचारवंत म्हूण ताचो छाप समाजमनार आसलो तरी शेवटी तो एक मनीस आनी  तांतले तातूंत दादलोमनीस.

हांव सद्या एका निर्णयाचेर पावलां की मनीस वैचारीक नदरेन कितलोय वयर पावूं, ताणें जिवीत, ब्रम्ह आनी हेर साबार विशयांचेर केदेंय व्हडलें तत्वगिन्यान जगाक सांगू, शेवटाक ताची विचार शक्त बोंबले सकयलूच येवन थारतली.

समाजांतल्या चडश्या लोकांची म्हळ्यार ९९ टक्के लोकांची विचारसरणी रामाची. कृष्णाची न्हय. राम आपले एकपतीव्रता बायलेचेर दुबाव घेवन तिका घरांतल्यान भायर काडूंक शकता. मागीर ताणें तो दुबाव घेवंक नाशिल्लो,लोकांनी घेतिल्लो आनी एका राजाक लोकमताचो आदर हो करचोच पडटा अशी मखलाशी मागीर रामभक्त करुं ! गुरवार बायलेक रानांत एकटी सोडप हें खंयच्याच दादल्याक सोबना आनी

असल्यो करण्यो करप्याक माफीय ना. तो देव आसलो तरीय !

त्या मानान कृष्ण बरो ! ताणें जिवनाचो खरो अर्थ तर्जून पळयलो. मनशाक जिवन हें एकदांच मेळटा आनी त्या जिवनांत दरेक मनशाक आपल्यो सगळ्यो इत्सा पूर्ण करुन घेवपाचो अधिकार आसा हाचें भान ताणें बाळगिलें. गरजेभायर आपूण देव अश्या भ्रमांत रावलोना तर मनीस कुळयेक दिव्यत्वाचो स्पर्श जांवचो म्हूण करणी करीत रावपाचो मंत्र ताणें दिलो.

कृष्णाच्यो खूबश्यो आख्यायिका आसात. पूण म्हाका ताच्या हेर करण्या परस चड गरजेची अशी दिसता ती ताची मानवी जीवनाविशींचे गरजेची विचारसरणी. श्री कृष्णाक चार पांच बायलो आशिल्ल्यो. ताचेर गोपिका जीव हुवाळून उडयताल्यो. कृष्ण आशिल्लोच तसो. कोणेंय जीव हुवाळून उडोवचो असो  तांचे कडेन ताचो शारिरीक संबंद येतालो कांय कितें खबर ना! दोन-अडेच हजार वर्सांच्या काळांत कृष्णाविशीं समाज जीवनात इतल्यो ह्यो आख्यायिका आसात की खरें फट तो कृष्णच जाणां !

खंयच्याय दादलो बायलेचे संबंद हे उक्ताडार चार-चौगांमदीं घडनात. घडटात आसले तरी ते आडसाकूच घडटात. ते घडल्यात म्हणपाचो कोणाकडेन पुरावो नासता. पूण लोकांचे कल्पनेंत हे संबंद रंगतात आनी खंयच्याय पुराव्या परस चड शक्त ह्या काल्पनीक रंगोवपात आसता.

कृष्णाचे गोपिकांकडेन संबंद हेय अशेच काल्पनीक. प्रत्यक्षांत घडचे परस लोकांचे कल्पनेंत रंगल्ले. कृष्णाचे गोपिकांकडेन आशिल्ल्या संबंदांत वासना नाशिल्ली. आशिल्ली ती माया ममता अशें म्हाका दिसता.

श्रीकृष्णाक सोळा हजार बायलो आशिल्ल्यो. त्यो ताच्यो लग्नाच्यो

बायलो न्हय.ताणें.तांकां समाजांत मानाचें स्थान दिवपा खातीर दिल्लो घोवपाणाचो आधिकार. ह्यो कंसान बंदिस्त केल्ल्यो बायलो. तांची सुटका श्रीकृष्णान केली.आयज लेगीत घरची बायल एक रात भायर उरल्यार तिचे विंशीं कितें उलयतात तें आमी आयकलां. अडेच हजार वर्सां आदीं बायलांची अवतिकाय कितें आसली हाची कल्पनाच केल्ली बरी. कंसाचे बंदखणींत आशिल्ल्या बायलांक खंयचो घोव घरांत घेतलो? असल्या उबंत बायलांक समाजांत मानान भोंवपा खातीर श्रीकृष्णान तांकां उक्तो परवानोच दिल्लो. आपलें नांव सांगपाचो. केदी व्हडली वट आशिल्ली जावंक जाय त्या काळार श्रीकृष्णाची ! उबंत पडिल्ले हांतले एकलेतरी बायलेकडेन वायट नदरेन पळोवपाची गजाल सोडाच, वायट उतर म्हणपाची कोणाक कापस्ताद आशिल्ली? पूण आमची कापस्ताद मात इतलीचं, आमच्या देवान सोळा हजार बायलो केल्ल्यो मरे, आमी दोन केल्यार कितें जालें अशें वाळवो पेचीत म्हणपाचें !

हेंवूय घडणूकेंत कितलें सत आसा हाचीय म्हाका कल्पना ना. पूण एक गजाल सामकी खरी आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता ती कुब्जीविशीं:

कृष्णाक मेळूंक सगळ्यो सुंदर बायलो येताल्यो. सुंदर बायलांक कोणाचेंय दार उक्ते आसता. तांचेकडेन वळख करपाक दरेक दादलो आंवडेता. पूण कुब्जा तर जन्मताच आष्टवाकूड. कुरुप. तिका आयिल्लें कुबड. ते खातीर तिणें मान वयर करुन केन्ना मळब पळयलेंच ना. मळबाचो निळो रंग तिच्या दोळ्यांनीं केन्ना अणभवलोच ना.

अष्टवाकूड, कुरुप आसली तरी ती एक बायलमनीस आशिल्ली. तिच्याय भितर वोगवेगळ्यो भावना आशिल्ल्यो. तिच्याय भितर फळपाची तांक आशिल्ली. सैम मनशाक भायल्यान कुरुप करता आसलो तरी सगळ्या मानवी धर्मा बाबतींत भितरल्यान सुस्वरुपच दवरता. कुरुप

आसल्यारुय तांचेच मर्दीं वसता खंयचेय सुंदर  अस्तुरे इतलीच नवनिर्मणेची गडद इत्सा. तातूंतल्यान तिचे भितर तयार जाल्ली आसता एके मादयेची गरज आनी नरस्पर्शाची ओड.

कुब्जेक श्रीकृष्णाच्या दर्शनाची ओड लागता. आपल्याक तो मेळटलोच अशी तिका खात्री आसताच. एकदीस सांजवेळार वाटेर तिका कृष्ण मेळटा. कृष्ण तिका सांगता आपूण तुगेर येतां. आनी कृष्ण वताय बी ! कुब्जा कृष्णाक पुरायेन मेळटा. केन्नाच मळबाचें दर्शन घडूंक नाशिल्ले कुब्जेक मळबाचें दर्शन घडटा आनी मळबाचो रंग निळो आसता हाची तिका जाणविकाय जाता!

श्रीकृष्णाची ही गजाल सांगपा फाटलो तसो खास उद्देश्य नासलो, तरी कंसाचे बंदखणींत आशिल्ल्यो तेन्नाच्यो सोळा हजार बायलो आनी आतांच्यो बायलो हातूंत तसो व्हडलोसो फरक ना. कंसान त्या काळार ह्या  बायलांक जबरदस्तीन उखलून व्हरुन बंदखणींत दवरिल्ल्यो. पूण समाजान ह्या बायलांक कायमची बंदखणींत दवरिल्ली आसा. आदलीच्या काळार शिक्षणाचो अभाव , बायलांक समानताय मेळूंक जाय ह्या विचारांचो अभाव,पुरुशप्रधान संस्कृ तायेचें प्राबल्य अश्या खुबश्या गजालींक लागून ही बंदखण घडटाली अशें मानलें जाल्यार लेगीत आयज हातूंतली एक्लूय गजाल नासुनय बायलांक ही सामाजीक बंदखण कित्याक भोगची पडटा ?

चली जल्माक आयल्यार आजूय बऱ्याबऱ्यांचें तोंड वांकडें जाता. चलो आनी चली हातूंत फरक ना म्हणपी लेगीत कोणागेरूय फकत चलयोच आसल्यार ताका चलो ना रे, अशें विचारता. बेटी, खजानेकी पेटी अशें आपल्या भाशणांत म्हणपी घराकडेन येतकच आपल्याक चलीच जाली हें आयकून बायलेक खेपता.

चली भुरगें ल्हान आसासर तें कोणाय वांगडा खेळूंक शकता, पूण जशें ती चली निर्मितीक्षम जाता तेन्ना तिचेर बंधना येवंक लागतात. तिचो लग्नाआदीं कोणाकडेन शाररिक संबंद येवंक फावना म्हूण आवय बापूय तिका जपता. हो शाररिक संबंद सैमाची गरज आसता, नवनिर्मणे खातीर. सैमान आपले नेम केल्ले आसतात. मनशानी आपले. सैम आपल्या नेमाप्रमाण चलता. ह्या नेमाची ताकत आवय-बापायक आनी समाजाक खबर आसता. तेच पासत आवय-बापूय आपले नेम खरे करता.

चली वयांत आयली म्हणटकच आवय- बापूय लग्न ताचें करुन उडयता. तांकां लग्नाची घाई लागता. चली नाका जाल्या म्हूण न्हय. ती घरांत आसची अशें तांकां दिसता. पूण सैम रावना. काळ सरचे पयलीं धुवेक उजोवंचें अशीच घाई लागता सगळ्यांक. थोडे लोक मेळटा ताच्या गळ्यांत धुवेक बांदून उडयतात. कितेंय वाकडें घडलें जाल्यार आपल्या नांवाक काळें लागूंक नाका, कितें करता तें मागीर घोवा घरा वचून कर अशें सांगून.

हे असले मानसिकतायेंत चलयेची जीण सोपून वता. दरेक चलयेचीं सुंदर सपनां आसतात. तांच्यो स्वताच्यो अश्यो गरजो आसतात, आवडी आसतात. पूण अडेच्यो गजाली ह्या चलयांचीं सपनां पिसडून उडयतात.

एखाद्रे चलयेक कलेची आवड आसता. तिका चित्रकार, कवी, गायक बी आपलो वांगडी जाय आसता. पूण तो गरीब आसता, तो वेगळ्या धर्माचो, जातीचो आसता. आवय-बापायक, सोयऱ्या धायऱ्यांक तें पसंत नासता. कित्याक तांचे नातेसंबंद उंचल्या स्तरार जोडपाचीं तांचींय सपनां आसतात. त्या दबावाक लागून चली आपली इत्सा मारता. तडजोड करता. घरच्यांनी आपले दर्जा प्रमाण जो कोण सोदून काडिल्लो आसता ताचे फाटल्यान वता. निर्मणेच्या आकर्शणान पयले

कांय म्हयने उमेदीन सरतात. भुरगें जालें, एकदांचो तो भार देंवलो म्हणटकच चली जांव चलो मूळ पदार येता.

शाररिक आकर्शण, कामभावना ह्यो गजाली खिणयाळ्यो आसतात. हो संचारीभाव. स्थायीभाव न्हय. संचारीभाव संचारुन मागीर ना जावन वता. स्थायीभाव सतत आपले भितर वसता. हेच भाव जीवनाचें सत्य. जीवन खूब व्हड आसता आनी एकदांच मेळपी आसता. आपल्या मनासारकें जीवन जर जगूंक मेळना जाल्यार मनीस उबगता. तो आपलो जीव खेळयता आसलो तरी त्या जगपांत पूर्ण आनंद नासता. आंगार बरीं दोन भुरगीं खेळ्ळीं म्हळ्यार ती तृप्तताय नासता. आंगभर भांगर घालून रासवळ मळार घोवा वांगडा मिरयलें म्हळ्यार तें सूख नासता. आपल्या मनाची तरल भावना, सपनांत आंगार भोविल्लीं तीं मोरपाखां मनांत खंयतरी घर करुन आसतात. लोकांचे नदरेन सगळें सूख दारांत आसलें तरी ही मोरपाखांची ओड खंयतरी सुप्त मनांत आसता. कांय ओडी अश्यो आसतात ज्यो पुराय जाले बगर जीवनाक परिपूर्णताय येना तेच पासत मागीर चलो जांव चली भटकत आसता.

चल्या खातीर वा दादल्या खातीर पयलींय बंधना नाशिल्लीं आनी आतांय नांत. बायलमनीस मात आजूनय हजार बंधनांत बांदून आसा.

बायलमनीस खंयच्याच आपल्या आवडीच्या दादल्या वांगडा उलोवंक शकना, ताचे वांगडा कांय खीण सारुंक शकना. लोकांचे विचार जे सतत बोंबले सकयलूच चलतात तांची आडखळ ह्या असल्या स्वातंत्र्याक बाधा हाडटात. हेच बाधेक लागून दादलो एके बायले वांगडा दोगांयचीय इत्सा आसुनय एकमेका सांगातान रात सारुंक शकना. नांव पिड्ड्यार जावपाचे भिरांतेक लागून. बायलमनीस आपल्या आवडीच्या हेर दादल्या वांगडा थोडो वेळ सारुंक शकना. आपलो घोव कितलोय

शोशल आनी सुशिक्षीत आसलो तरी ताका तें आवडचेंना असो तिका भंय आसता. दादल्यान दुसऱ्या दादल्या वांगडा एक रात रुमांत काडल्यार तांचे विशीं कोण उलयना. तातूंतलो एकलो कोणूय होमो आसल्यार लेगीत. दोन बायलां एकठांय रावल्यांत तांतली एखाद्री लेस्बीयन आसूं येता असो विचार त्या बायलांच्या घोवांक, धुवांच्या आवय-बापायक येना. पूण आपल्या सपनांतल्या राजकुंवरा वांगडा वो राजकुंवरी वांगडा कांय खीण सारुन आपलें जीवन सुखमय करतलों असो कोणेंय विचार करीत जाल्यार मात आमचो समाज तांच्या पायांक हजार मणांच्यो बेडयो घालता.

हाका लागून मागीर बायलमनीस सोदता कांय वाटो. जंय कोण कोणाचो दुबाव घेवंचोना, जंय वचूंक मुक्त मान्यताय आसतली आनी आपल्या मनांत रंगयल्लें जीवन सारपाक मेळटलें. कोणाच्या आडखळी विरयत. हांगा खंयची बायलमनीस वो दादलो फक्त शारिरीक सूख घेवपा खातीरुच वता अशें न्हय. ही गजाल गौण आसता. ही गजाल, ते फाटली भावना प्रखर जाता ती सैमीक निर्मितीची ओड लागता तेन्नाच. निर्मिती कार्य सोंपलें म्हणटकच त्या खिणापुरतें सगळे जिणेक शिथिलता येता. पूण मनाक येना. मनुश्यप्राण्याचें चोविसूय वरां मन ह्याच विशया भोंवतणी जरी घुंवत आसलें तरी चोविसूय वरां कोण हीच गजाल करीत आसता अशें न्हय.

मनशाक शारिरीक भुके वांगडाच हेर कांय मानसीक भुकोय आसतात. शारिरीक भूक खंयीय शमन जांव येता. पूण मानसीक भूक भागोवपी दुर्मिळ आसतात. हांच्याच सोदाक मागीर भटकंती सुरु जाता. ती सुरु जाली म्हणटकच तरातरांचे दबाव सगळेवाटेन येत आसतात. तातुंतल्यान मार्ग काडीत मागीर सोदासोद सुरु जाता. हांगा मेळत, थंय

मेळत म्हूण सोदप सुरु जालें म्हणटकच, आपल्या अतृप्त आत्म्याचो हुंकार सोदपा खातीर सुरु जाल्ली ही भटकंती सनातना सारख्या कांय संधीसाधू मेरेन वचून थारता.. फक्त थारता. पूर्ण जायना. कित्याक, सनातन अशी हीच एक गजाल. आत्म्याचो हुंकार. मागीर कोणें, कोणाक, कोणाकडल्यान मुक्त करपाचो आत्म्याचो हुंकार जे जर समाजाक वळखूंक येना ते सर कोणूच असल्या संस्थांकडल्यान ह्या बायलांक पयस करुंक शकना !

हो हुंकार असोच.... दिल हूं हूं करे, घबराये...म्हणपी..!!



# हांव एकटो कसो?

**मनशाच्या** जिविताचेर समजा बेतलें आनी ताची जीवनरेखा सशक्त आशिल्ल्यान तातुंतल्यान तो सुटलो जाल्यार ताका कशें दिसता काय?

हांव दोन खेप असल्या अरिश्टांतल्यान वाचलां आनी दोनूय खेप म्हाका दिसून आयलां जीवन हें सुंदर आसता. तें अशें सहज वगडावंक फावना. तें जगपांतूच खूब मजा आसता. देखुनूच कोण जीव बी दिवन आपलें आयुश्य सोंपयतात पळय तांचेविशीं म्हाका मात्तूय काकूळट दिसना. जो कोण प्रतिकूल परिस्थितींत जगपा खातीर धडपडटा ताची म्हाका अपुर्बाय दिसता.

मनीस धडधाकट आनी भलायकेन घटमूठ आसलो जाल्यार ताका जिविताचें मोल होलमना. तें भावतलें जाल्यार ताचेर भयंकर अरिश्ट येवंक जाय. तातुंतल्यान भायर सरतकच आनी भायर सरपा खातीर जे कोण आपले परीन मजत करतात, हुसको, प्रेम उक्तायतात तें पळयल्यार दिसता, आरे हे इतले लोक म्हजें बरें मागपी आसात आनी हांव कसलो विचार करतां? हांव एकटोच, म्हज्या आसपा नासपान कोणाक फरक पडचोना, म्हजें काम सोंपलें म्हणटकच वचप जातलें. मागीर कित्याक जिवाची काळजी घेवप? चलता तशें चलूंक दिवप!

पूण तेंय चिंतप समा न्हय. हांवें स्वता जावन म्हज्या जीवनाचें तत्वगिन्यान थारायलां. चाकोरी भायलें जीवन हांवें पसंत केलां. तातूंत म्हाका एकटेपण येता. हांगा एकटेपण म्हळ्यार संवसारी मनशाचे तुळेन म्हणटां हांव. तशें पळोवंक गेल्यार बायल भुरगेकार संवसारी मनीसूय तसो एकटोच आसता. हाचेर भाश्य करुया नाका. तो एक स्वतंत्र चर्चेचो विशय. तरी ह्या संवसारी लोकांक दिसता हांव एकटो. तेच अर्थान हांव एकटो असो उल्लेख करतां. पूण हांव एकटो खंय आसां?

रवीन्द्रबाब म्हणटालो आपल्याक एकटो एकटो अशें केन्ना दिसच ना. गोदुबाय गेल्या उपरांत हांवें ताका विचारिल्लें, कित्याक तीच ताची खरी सहचरिणी आशिल्ली. गोदुबाय आशिल्लें तेन्ना रवीन्द्रबाब म्हणटालो, बायल हीच तुजी निमणे मेरेनची खरी सांगातीण. फक्त स्वताचे बायलेचकडेन काया, वाचा, मनान तूं पुर्णतायेन नग्न जावंक शकता. फक्त तारूण्यांतूच न्हय, तारूण्यांत तुका जाय तितल्यो हेर बायलो मेळू येतात. पूण निमणे मेरेन तुज्या सांगाताक उरता, तुज्या सुखदुख्खांत वांटेकार जावन रावता ती तुजी बायल!

हें सत आसतूय. तशी सहचरिणी मेळूंक जाय. नातिचरामी, नातिचरामी म्हणत सांगातान चलपाचें उतर दिवन आयली आनी मागीर पिडतूच रावली जाल्यार? पयले वयले नवलांचे दीस थोडेच आसतात. तातुंतल्यान भायर आयलीं म्हणटकच मुखार उबें रावता सत्य स्वरूप! पुराय आयुश्य मागीर कॉम्प्रमायज करीत, ॲडजस्ट करीत सारचें पडटा. संवसार करपाच्या नांवान कोण लग्न जावन एकठांय येतात तांकां हें चुकना. कोण आपल्या संवसाराचो गाडो रखडत मुखार व्हरता तर कोण घटस्फोट घेवन मेकळो जाता. पूण जीवनाचो अर्थ कळिल्ल्यान जीवन पुर्णत्वान जगूंक सोदप्यांचें

मागीर कितें? त्या संवेदनशील व्यक्तीक घटस्फोट जमना. ताका कळटा तो घट्ट सपोर्ट दिवपाचो आनी घेवपाचो.

ही गजाल जेन्ना ताचे बाबतींत घडून येना तेन्ना तो आपले बाबतींत एकटेपण निवडटा. संवेदनशील, सृजनशील, सर्जनशील मनशाक तर हें एकटेपण भोवच गरजेचें. कांय लोक संवसाराकडेन ॲडजेस्ट करून सर्जनशीलतेकूय न्याय दितात. पूण ही कसरत करतना तांकां भितरल्यान खूब सोसचें पडटा. जरी ते दाखयनांत तरी तांची सर्जकताय खंय तरी कुथनेताच!

गोदुबाय गेलें आनी रवीन्द्रबाब एकटो उरलो. तशें घर भरिल्लेंच आशिल्लें. सगळीं येवन वचून अवती भोवतीं आसतालींच. आमीय वचून बसताले. पूण चोवीस वरांय कोण कोणाक दिवंक शकना. म्हणटकच अशे वेळार एकटेपण हें वांट्याक येवप साहजिकच. पूण जो सर्जक आसता, जाचेकडेन कितें तरी कार्यक्रम आसा आनी घरभर पुस्तकांनी भरिल्ल्यो आलमारी आसात तेन्ना ताका एकटेपण सतावपाचो प्रस्नूच येना. रवीन्द्रबाब हेंच सांगतालो.

म्हाकाय हेंच एकटेपण, भासनाशिल्लें एकटेपण अभिप्रेत आसा. तेंच एकटेपण सद्या म्हज्या वांट्याक हांवें घेतलां. दिसाचो कांय वेळ आनी पुराय रातचें जावं तें मागीर. पूण ह्या एकटेपणातूच खूबशें वाचून जाता. खूबशें बरोवन जाता.

तरी लेगीत हांव हेरांक एकटोच दिसतां. म्हजेय आवयक हुसको जातालो. आपले उप्रांत हाचें कशें जातलें काय म्हण! म्हज्या भावांकूय हालीं म्हजो हुसको जाता. वय वाडत वता तशें हाचें कशें जातलें काय म्हण! आनी हाची जाप तेन्नाच मेळटा जेन्ना जीवाचेर बेतपा सारकें अरिश्ट येता तेन्ना. तेन्नाच कळटा आपलो कोण आनी आपलो कोण न्हय तो! जेन्ना आपल्या मनशांची लांब लचक रांक खबरे खातीर, शुभेच्छा

दिवपा खातीर आनी तूं एकटो ना, तुजे खातीर आमी आसात हाचो भरवंसो दिवंक मुखार येता. तेन्नाच अंतस्कर्णांत कोण तरी उलयता, मरपा परस जगपांतूच खूब खूब आनंद आसता.

आतां हेंच पळयात, चर्चिल कोण कोणाचो? केन्ना तरी आमी वांगडा कोंकणी चळवळींत वावुरलेले. आतां ताचो मार्ग वेगळो म्हजी वाट वेगळी. तो रोमी वटेन आनी हांव नागरी वाटेन. म्हाका ते खातीर तो गाळीय घालतालो खंय! ना म्हणू तो मागीर! शिवाय तो बांधकाम खात्याचो मंत्री! म्हजें ताचेकडेन कांयच काम ना असो मंत्री!

चर्चिलाक कळ्ळें, म्हजो बायपास जाला. ताका म्हजो हुसको. म्हाका कितें जाय कितें नाका! कितें करपाक बी जाय अशी खूबशी काळजी. हांवें म्हळें, आरे बाबा! म्हाका डिस्चार्ज दितकच पणजे सरकारी निवासांत व्हरतले. थंय युरोपियन टॉयलेट ना. इंडियन आसा. म्हाका त्रास जातलो. चर्चिलान एका दिसा भितर सगळी वेवस्ता केली. पणजे तो रायबंदर मेरेनचो पाटो पूल पावलिस्तानी एकेच रातीक बांदून पुराय केल्लो अशें खंयतरी वाचिल्लें. म्हजे खातीर चर्चिल पावलिस्तूच आशिल्लो.

मुख्यमंत्री दिगंबर कामतीचीच गजाल घेयात. इफ्फीची धामधूम. उक्तावणाचो बोवाळ चल्ला. दिगंबरबाब मनरिजवण सोसायटीचो अध्यक्ष आनी तातूंत मुख्यमंत्री. म्हणचे तो इफ्फीचो यजमान. त्याच बोवाळांत ताका कोणाकडच्यान तरी कळ्ळें, दिलीपाचें मनिपालाक बायपासाचें ऑपरेशन जावपाचें आसा. मुख्यमंत्री बद्द मनिपाल हॉस्पिटलांत, दोना पावल. थंय वतकच ताका कळ्ळें की हांगा न्हय, तें उडपी! तसोच परतलो.

कोण कोणाचो दिगंबर कामत? म्हजे कडल्यान ताका ना कसलो फायदो वो ना हांव ताचो मतदार! पूण म्हज्या सारख्यांची ताका आत्मियता

कित्याक? ल्हानशी घडणूक, पूण दोळ्यांत दुकां हाडूंक पुरो. हींच दुकां तुका जगपाक उमेद हाडटात.

एक दीस तानाजी हळर्णकारान म्हणिल्लें, दिलीप, तुवें कितें जोडलां नासत. तुजेकडेन कसली आस्पत नासत. पूण विद्यार्थी चळवळी पासून तुवें आज मेरेन जे जे चळवळींत वांटो घेतला, साहित्यांत जें जें कितें निर्माण करून दवरलां ताचो हिशेब समाजाकडेन आसा. देखुनूच ते तुका टाळूंक शकनात. हे मंत्री जे तांबडे दिवे लावन वतात, तांचें लक्ष तुजेकडेन ना अशें दिसत, पूण रस्त्यावेल्यान वतना तूं रस्त्यार दिसल्यार तुजेर नदर मारले बगर तांका पुटवना!

खरेंय आसत! कित्याक हाकाच लागून तर आमकां जळपाची खुमखुमी येता आनी जगपाचीय. म्हज्या वाडदिसाक शुभेच्छांचे कितले फोन आनी एसएमएस? खूब थोडे. नव्या वर्सांची परबीं दिवंक कितले? शंबरेक तरी एस्‌एमएस आयल्यात. पूण हांव बरो ना हें कळ्ळ्या बराबर मेजून दोनशे साठ एस्‌एमएस आनी सत्तरेक सुमार फोन. थोड्यांक हांव बरो ना हें खबरूय नाशिल्लें. खबर आशिल्लें जाल्यार मोबायल सतत टॅन टॅन टॅन टॅन करीत आसपाचो. मागीर म्हाका मेळपाक येवप्यांची गर्दी. सगळे येतना हातांत फळांची पोटली घेवन भितर सरताले. म्हणटकच ते म्हजे खबरेकूच मुद्दम आयिल्ले. रस्त्यावेल्यान वतना बेश्टेच म्हाकां बरें दिसचें म्हण भितर सरूंक नाशिल्ले. वेळांत वेळ काडून आयच्या फास्ट लायफांत खबरेक येवप हाचो अर्थ ह्या लोकांच्या काळजांत म्हजेविशीं कितेंतरी नक्कीच आसा!

मागीर हांव एकटो कसो? म्हाका कळना.



# पुस्तकाचें खरें मोल!

**केन्ना** केन्नाय खीणभर म्हाका प्रस्न पडटा, हांव जसो वागतां तें ह्या समाजांत योग्य आसा व्हय? म्हज्या वागपांत आनी सामाजीक विचारसरणेंत खूबशी तफावत आसता आनी हेरांचे नदरेन हांव पिसो थारतां. तोंडार म्हणना जायत, पूण तांच्या हासपावेल्यान म्हाका सदांच तें जाणवलां.

हालींचीच गजाल घेयात. जानेवारी म्हयनो सोंपतां सोंपतां हांवें म्हज्या एका पुस्तकाचें प्रकाशन दवरलें. गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा दर म्हयन्याक म्हजें एक पुस्तक उजवाडावंचें आनी तें भांगरा उत्सवी वर्साक भेटोवंचें असो तकलेंत विचार आयलो. तकलेंत विचार आयलो म्हणटकच हांव तो रोखडोच चालीक लायतां. विचार करूंक, सेकंड ओपिनियन बी घेवपाचे भानगडींत पडना आनी संकल्प एकदां केलो काय तो मागीर पडत मरत तडीक व्हरतां.

जानेवारी म्हयन्यांत 'एक आंकवार डायरी' ही नवलिका उजवाडाक हाडपाचें थारायिल्लें. पूण दर दिसा कोणाचीं ना कोणाचीं फंक्शनां. तांकां करूं तीं, म्हजें हांव करतलों अशें तरी म्हणूं येता? ह्या सगळ्या कार्यक्रमाक हजेरी लावपी मनीस तेच. ताणीं म्हज्या कार्यक्रमाक येवंक जाय जाल्यार हांवें म्हजी सोय पळोवंक उपकारना तर तांची पळोवंक जाय. आयज

फाल्यां करतां करतां जानेवारी उलगपाक पावलो. शेवटाक म्हळें, चल ३० जानेराक करूया. जावं तो मागीर गांधीहत्त्येचो दीस. आयोजनाक लागलों तर कोणें तरी म्हळें, त्या दिसा नूतन साखरदांडेच्या पुस्तकाचें प्रकाशन आसा! म्हळें, करू दी तांकां. म्हजे खातीर गांधीहत्त्येचो दीस बरो नासुये! तातूंत हांवें अरूण साखरदांडेचो सत्कारूय दवरिल्लो. १६ वर्सांनी आपले बायलेचो कविता संग्रह उजवाडाक येता तेन्ना तो सुवाळो सोडून खंयचोच घोव आपलो सत्कार आसा म्हणत दुसरेकडेन कूस मारचोना आशिल्लो. अरूण मारीतूय आशिल्लो, सांगू नज! शेवटाक निमाणो दीस उरलो तो ३१ जानेवारी.

'हे ३१ जानेवारीक नाका, तें रस्त्याचें नांव. पुर्तुगेजांनी दिल्लें. ते तारखेक केल्यार तुका पुर्तुगेज धार्जिणो म्हणटले' असोय तकलेंत विचार आयलो. मागीर करप केन्ना प्रकाशन? जानेवारी मासांत तर आनी दीस ना. हो एक आसा तो चुकयल्यार म्हजो म्हयन्याचो संकल्प चुकतलो! (चुकल्यार कोण फांसार चडोवंचो नाशिल्लो म्हणा. हांगा खूब जाणांचे मासिक कार्यक्रम चुकतात) तेन्ना म्हळें करूयाच.

प्रकाशनाची सगळी तयारी जाली. सोयरे थारायले, च्या बटाटवडे सांगले, लोकांकूय कळयलें. लोकूय बऱ्या पयकी आयले शॉर्ट नोटीस दिवनूय! तांकां पळोवन हांव उचंबळीत जालों आनी तांच्या येवकाराचें भाशण करूंक उबो रावलों तर म्हजी अवतिकाय कुरूक्षेत्रार युध्दाक उबो राविल्ल्या अर्जुना सारकी जाली. मुखार बशिल्ल्यां पयकी चडशे लोक हे सदचेच. तेच संजीवाच्या प्रकाशनाक वतात आनी चंद्रिकाच्याय वतात. कालूच नूतन साखरदांडेच्याय पुस्तक प्रकाशनाक हेच लोक आशिल्ले. तोंड दाखोवन गेल्यात तरी! कार्यावळ सोंपल्या उप्रांतय पुस्तक घेवपा खातीर लायनीत राविल्ले.

अर्जुनाक मुखार आपले काका, मामा, सोयरे धायरे दिसताले. ह्या लोकां आड हांव झुजूं? तांचेर हांव शस्त्र चलोवं? तांची हांव गोमटी उडोवं? म्हाका पाप लागचें ना? तांच्यो विधवा बायलो आनी अनाथ भुरगीं म्हाका शिराप सोडचेनांत? अश्या प्रश्नानी ताची तकली चक्रावली तशीच गत म्हजी जाल्ली.

हे सगळे लोक मुखार येवन बसल्यात ते म्हज्या प्रेमान आयल्यात. तशे ते प्रत्येककडेन प्रत्येकाच्या प्रेमानूच वतात. प्रकाशन सुवाळो सदचेवरी उसरांच सोंपता आनी मागीर घरा परतुपाक रासवळ येरादारी नासता देखून जण एकलो आप आपली गाडी घेवन वता. हाका लागून तांची गैरसोय जायना ती जालीच वेल्यान दुस्मानाचे दोळेय फुट्टूंक मजत जाता. काल पयर जिका भास मानपाक कोण तयार नाशिल्लो, ते कोंकणींतल्यान दर दिसा भाराभार पुस्तकां भायर सरतात आनी तांच्या प्रकाशन सुवाळ्याक, एका काळार झोळी घेवन भोंवपी प्रत्येक जाण गाडयो घेवन येतात म्हणचे कितें!' हो विचारूच सोंसना तसलो आशिल्लो. तांकां जळोवपा खातीरूच थोडेजाण गाडयो भायर काडटाले!

पूण हांव मराठीवादी न्हय. मराठींतल्यान बरयतां म्हूण मातसो सो म्हणू येता! हांव सामको कोंकणीवादी. देखून म्हाका काळीज आसा. हालींच बायपास करपाच्या निमतान तें आसा म्हणपाची खात्री करून घेतल्या. काळीज आसा देखुनूच मुखार बशिल्ल्यांविशीं हांव विचार करूंक लागलों –

हे सगळे लोक वेळांत वेळ काडून प्रकाशनाक येतात. एक प्रकाशन म्हळ्यार निदान तीन वरां उलगताच. जण एकलो आपली गाडी घेवन येता म्हणटकच पेत्रोलाची वाडिल्ली दर मतींत घेवन हिशेब केल्यार शंबर-देडशें रूपयांचो फटको पडटाच. कार्यक्रमांत च्या, बटाटवडो,

बिस्किट पासून दिली तरी तितल्यान तें भागना. वेल्यान पुस्तक विकतें हें घेवंचें पडटाच. प्रकाशकान प्रकाशन सुवाळ्या निमतान कितलीय सूट जाहीर केली तरीय एक सादारण पुस्तक शंबरांक पडटाच आनी पुस्तक घेवंकूच जाय अशी सक्ती ना अशें कितलेंय प्रकाशकान वो लेखकान म्हणलें तरी वतना प्रत्येकान एक तरी पुस्तक व्हरचें अशें दिसता. पुस्तक प्रकाशनाक आयिल्ले खातीर जमिल्ले लोक गराडो घालून अभिनंदन जरी करता आसले तरी लेखक, प्रकाशक त्याय बोवाळांत भायर वतल्याच्या हातार नदर दवरूनच आसतात. आपल्याचेर नदर आसा हें खबर आशिल्ल्यानूच दर एकलो वतना पुस्तक विकतें घेवनूच वता. परवडना आसलें तरीय!

म्हजेवेल्यान हांवें हें अशें गणीत केल्लें. हांव म्हजी लायब्ररी सांबाळटां. दर म्हयन्याक म्हजें वृतपत्रां, पुस्तकां हाचे खातीर दोन हजारांचें बजेट आसता. ज्या म्हयन्याक बरीशीं पुस्तकां घेवंक मेळनांत तेन्ना हांव खंयच्याय पुस्तक प्रदर्शनाक पावलों जाल्यार चड पुस्तकां घेतां. जाचेकडेन स्वताची लायब्ररी आसा ताका बरें ऽ पुस्तक दिसल्यार घेवप चुकना. कोंकणी कार्यकर्तो म्हूण ज्या प्रकाशनाक वतां थंय पुस्तक खरेदी करून घरा हाडटां. तरी लेगीत म्हजीय एक अपेक्षा आसताच!

हांव नवें पुस्तक आयलें म्हणटकच ताची म्हायती बिम्बात 'शब्दफूल' ह्या सदरांत दितां. कार्यावळींचो फोटोय छापतां. इतलें जेन्ना हांव करतां तेन्ना पुस्तक फुकट मेळचें अशी अपेक्षा बाळगप चूक न्हयच. त्या भायर सद्याच्या व्यापा मुखार देड-दोन वरां कार्यक्रमाक दिवप परवडना. पुराय आदेसूच वता म्हळ्यार जाता. तातूंत सगळींच पुस्तकां विकतीं घेवपा सारकीं आसताच अशें ना. पूण व्यक्तीगत संबंदाक लागून वचचें पडटा. इतलेंय करून पुस्तक विकतें घेवप हें तशें विकतें स्त्राध्दच न्हय?

तेन्ना हांव म्हजेवरींच दुसरेय समजतां. तेच पासत म्हज्या प्रकाशनाक जे कोण येतात तांकां हांवें पुस्तक फुकट दिवपाचो निर्णय घेतलो. जे कोण पुस्तक घेवचें पडटा म्हूण येना आसतना रावतात ते तरी येतले ह्या उद्देशान. तातूंत आयज कोंकणी पुस्तकां खपतात. केल्ली गुंतवणूक भरून येता. म्हणटकच प्रकाशन सुवाळ्याक आयिल्ल्यांक पन्नास पुस्तकां वाटलीं म्हूण कितें जाता? हे दीस तशे हळदी कुकमाचे. जीं कोण हळदी कुकूम करतात तांचे घोव तांकां बोल्साक खार घालून कितें ना कितें हाडटात. हांवेंय हो एक हळदीकुकूम करूं येतालो. वक्ते इतली तोखणाय करतात तें आयकून कितें बरयलां तें तरी पळोवया म्हूण वाचून तरी पळयतले!

हांवें पुस्तकां फुकट दिवपाचें थारायलां तें पळोवन म्हजो एक इश्ट तिडकलो. म्हणूंक लागलो, तूं वायट प्रथा घालता. पयलींच कोण पुस्तकां घेनांत. जे कोण घेवपी आसात तांकांय तूं आडायता.

पूण गजाल तशी न्हय. घेवपी आसात ते मसणांत लेगीत वचून पुस्तकां घेतात. असल्या सुवाळ्याक जे कोण पुस्तकां घेतात तांतले भोवतेक मुर्वतीक पडून घेतात. खरे घेतात ते जांचेकडेन स्वताची लायब्ररी आसा ते. म्हणटकच जे कोण आपलेपणान येतात तांका भुर्दंड कित्याक?

पयलीं लग्नाक वचपी व्हंकल-न्हवऱ्याक केळवण दिताले. चडकरून कॅश आसताली ती! प्रत्येकाच्या हातांत 'कव्हर' आसतालें. मागीर समाज सुदारलो आनी भेटवस्तू घेवन वचूंक लागले. व्हडल्या बॉक्सांत कितें आसा तें कळना आशिल्लें. प्रेजेन्ट पेपरांत रेवडायल्ल्यान भपको व्हडलो दिसतालो. एक काळ असो आशिल्लो जेन्ना दूद तापोवंक आल्युमिनेमाचे नवेच कुकर आयिल्ले. सिटी वाजोवपी. आठ-धा रूपयांक मेळटाले. न्हवरो व्हंकलेच्या संवसाराक उपयुक्त म्हूण लग्नाक वचपी धा

रुपया भितर भागोवंक लागले. शेवटाक न्हवऱ्यागेर डझनभर कुकर जावंक लागले. ते दवरूपाकूच बाबड्याकडेन जागो नासतालो.

त्या काळार लग्नाक पयशे दिवपच प्रॅक्टीकल आसतालें. तातुंतल्यान खर्चाक आदार जातालो. एक प्रकारची सहकार प्रथा ती. रीण काडिनासतना लग्न जावन पडटालें. मागीर सगळे सुदारले. 'कृपया अहेर आणू नये'ची प्रथा सुरू जाली. लग्नाक रिणां मेळूंक लागलीं. बापायन लग्नाक काडिल्लें रीण ताच्या पुतांनी फारीक केल्ल्याचीं उदारणांय कांय कडेन आयकूंक मेळ्ळ्यांत.

पुस्तकांचीय तीच गत. र. वि. पंडितान आपलो दोंगर विकून एक काळार पांच पुस्तकां छापलीं. हेरांक तें शक्य नाशिल्लें. उदारीचेर वा रीण काडून पुस्तक काडलें आनी प्रकाशना वेळार कांय प्रती गेल्यो जाल्यार खर्च भागतालो. सहकार पध्दतूच ती एक. पूण आयज ती परिस्थिती ना. पुस्तक छापूंक आतां अनुदान मेळटा. थळावो आमदार वो राजकारणी सहज त्या पुस्तकाचो खर्च दिता. छापिल्लें पुस्तक चार संस्था विकत्यो घेतात. वाचनालय संस्कृताय वाडीक लागल्या. अशें आसतना आपले चार मीत्र प्रकाशनाक आयल्यात तांचे कडल्यान दुडू ते कितें घेवपाचे? पुस्तक विकतें घेवचें पडना म्हूण फुडल्या प्रकाशनाक चड लोक येतात काय ना तें तरी पळोवंक मेळटलें आनी जांकां फुकट पुस्तक व्हरप पुटवना तांचे खातीर म्हज्यान एक फंडपेटी दवरूं येता. पुस्तक उखलात, बोल्सांत हात घालात आनी दिवचे दिसतात तितले पयशे ते फंड पेटयेंत घालात. म्हणचे म्हाकाय म्हज्या पुस्तकाचें खरें मोल कळून येतलें!



# मिठा कणी दर्या येदी जाता तेन्ना...!

**ह्या** म्हयन्याक म्हळ्यार जुलायचे ८ तारकेक नानूक ५० वर्सां पुराय जातात. नानू आपले पिरायेचो अर्द शेंकडो हुपता. ८ जुलाय हो नानूचो भांगराळो वाढदीस.

नानू म्हळ्यार माधवी सरदेसाय. पूण हांव ताका नानूच म्हूण वळखतां. ताका नानू कित्याक नांव पडलें तें ताणेंच खंय तरी बरयलां. हांव तें सांगूंक वचना. कोणाकूय जाणा जावन घेवंचें दिसलें जाल्यार ताणीं तें सोदचें.

नानू म्हळ्यार माधवी, मोगाबाय आनी जयवंत सरदेसायाली चली, राजू नायकाची बायल बी असली वळख चडशे हिसपांत धरिनांत. ताची वळख रवीन्द्र केळेकाराची भाची म्हूण चड आसा. पूण ताचेकडेन म्हजी वळख जाली ती नानूच म्हूण! हांव ताका नानूच म्हणटां आनी तें म्हाका फोन करता तेन्ना आपली वळख नानूच म्हूण करता, 'हॅलोऽ दिलीऽप हांव रे! नानू'

नानू म्हाका पयले खेप मेळ्ळें तें खंयच्या तरी कवी संमेलनाक. मेळ्ळें खंयचें, माचयेर दिसलें, कविता सादर करतना. ताणें 'मिठा-कणी' म्हूण एक कविता सादर केल्ली.

मिठाची कणी हांव
दर्या भेटेक गेलीं
दर्याक हात लायनाफुडें
दर्या येदी जालीं

कविता आयकून लोकांनी टाळयो पेटल्यो. कांय लोकांनी वा! वा! लेगीत म्हळें.

म्हज्या शेजराक उल्हास बुयांव काय सुहास दलाल कोण तरी बशिल्लो. भोवतेक सुहास दलालूच जावंये! ‘वळखता मरे ताका? रवीन्द्र बाबाची भाची ती आं!’

रवीन्द्रबाबांची भाची म्हणटकच हांवें ताचेकडेन आनीक बारकायेन पळयलें. त्या कवी संमेलनांत माडा येदूया कवीनीं चुटूटीभर लांब कविता वाचिल्ल्यो पूण दोन चार टाळयो सोडल्यार व्हडलिशी प्रतिक्रिया दिसूंक नाशिल्ली! माधवी सरदेसाय हे १४ वर्सां पिरायेचे चलयेचे चार वोळींचे कवितेक मात टाळयो आनी व्वा! व्वा! वा रे! रवीन्द्रबाबांची भाचीच म्हूण काय?

त्या उप्रांत म्हजें रवीन्द्रबाबांगेर यो वच सुरू जाल्लें. म्हाका थंय तें केन्ना दिसूंक नाशिल्लें. रवीन्द्रबाबागेर तशीं भुरगीं हांगा थंय खेळटना दिसतालीं. कुळागरांत चानयों, शेवणीं बी बागडचीं तशीं हांगा चौकेर भुरगीं बागडटालीं. घरांत वावर करूंक येवप्यांचीं, भागेल्यांचीं बी आसूं येता! तीं कोणालीं काय म्हूण विचारपाचो म्हजो सभावूय नाशिल्लो.

एक दीस हांव आनी रवीन्द्रबाब उलयत बशिल्ले आसतना तें आयलें. येवनूच तें रवीन्द्रबाबाचे वेंगेंत गेलें.

“आगो, नानू खंय तूं? आतां रावतलें मगो?”

‘‘हय तातो.’’ अशें म्हणत तें आनीकूय रवीन्द्रबाबाक लागीं गेलें.

‘‘हाका वळखता मगो तूं? हो दिलीप बोरकार.’’

ताका वेंगेंत धरीतूच रवीन्द्रबाबान म्हजी ताचेकडेन वळख करून दिली.

‘‘अशें? दिलीप बोरकार? बरो आसा मरे?’’ ताणें म्हळें आनी मागीर ‘हूक्क’ करून हांसलें. तें कित्याक हांसलें तें म्हाका कळ्ळें ना. म्हजो अवतार पळोवन बी हांसलां काय? म्हज्या मनांत हजार दुबाव! तातूंत हांव तेन्ना विद्यार्थी फुडारी बी! पेपरांचेर नांवूच न्हय, फोटो लेगीत छापून आयिल्लो. आनी हें ‘दिलीप बोरकार? बरो मरे?’ म्हणत हुक्क करून हांसता?

ही नानूकडेन म्हजी पयली अधिकृत वळख. मागीर नानू म्हाका एक दोनदां रवीन्द्रबाबाल्या घराकडेन दिसलें. अभ्यास करतना, त्या भुरग्यां वांगडा खेळटना. रवीन्द्रबाबांच्या घरा शेजराक जायांचे मळे खूब. म्हाका ते मळे आनी फुलपी जायो पळोवंक आवडटाल्यो. नानू पुर्तुगालाक आसतालें खंय! ताचो जल्मूय पुर्तुगालाक जाल्लो. नानूचो रंग तेन्ना तांबसो तांबसो गोरो कसो! जायो फुलचे आदीं त्या जायांचोय रंग तसोच आसतालो. म्हाका नानू त्या घरांतल्या भुरग्यांमदीं जायेची कळीच कशें दिसतालें.

नानू कविसंमेलनांत बी आपली ‘मिठा कणी’ वाचतालें. ताका महाबळेश्वर बोरकार आनी हेर जायते जाण ‘मिठा-कणी’ म्हणून उलो मारताले आनी नानू हुक्क करून हांसतालें. हांव रवीन्द्रबाबागेर वतालों तेन्ना नानू लिंबू सरबत बी हाडून दितालें आनी म्हाका पळोवन ‘दिलीप बोरकार बरो मरे?’ अशें विचारून ‘हूक्क’ करून हांसतालें. तेन्ना तो ताचो सभावूच म्हूण म्हाका कळ्ळो. आतां लेगीत तें उलयतना तशेंच करता आनी तें तशें हांसलेंना जाल्यार म्हाका चैन पडना.

१९७८त सुमार बाकीबाब बोरकार साहित्य अकादेमी खातीर कोंकणी काव्य संग्रहाचें संपादन करतालो. हांव ताका त्या वावराक आदार करतालों. तेन्ना त्या संग्रहांत नानूच्यो म्हळ्यार 'माधवी सरदेसाय' हाच्यो 'मिठा-कणी' आनी 'हांव फूल पोरसांतलें' ह्यो दोन कविता आयिल्ल्यो. बाकीबाबान 'मिठा-कणी' ही कविता म्हजे मुखार दवरून म्हळें, 'ही कविता वाच रे' हांवें म्हळें 'हांवें अयकल्या ती ताच्या तोंडांतल्यान.' तेन्ना बाकिबाबान म्हळें, 'हे एकेच कवितेचेर प्रबंध बरोवं येता.'

तेन्ना बाकीबाब कितें म्हणटालो तें म्हाका कळ्ळूंक नाशिल्लें. उप्रांत हांवें ती कविता बारकायेन वाचली तेन्ना बाकीबाबाक कितें म्हणपाचें आसा तें कळ्ळें. माधवीन उप्रांत कितल्यो कविता केल्यो खबर नांत. पूण माधवी सरदेसाय एक उत्कृष्ट कवी म्हूण कोंकणीक मेळपाचें तें ना जालें.

मदीं बरोच काळ नानू खंय तरी नाच्चच जाल्लें. तें खंय गेलां, खंय आसा हाची म्हाका तशी उस्तवारी करपाची गरजूय नाशिल्ली. तशी दाट इश्टागत बी अशें कांयच नाशिल्लें. म्हणटकच रवीद्रबाबांकडेन चवकशी करपाचोय प्रस्न नाशिल्लो. एक खेप हांव, व्हितोरिया फेर्नांदीस, नुरूद्दीन मावानी बी पुण्याक गेल्लीं. तेन्ना व्हितोरिया मामीन म्हळें आमी युनिव्हर्सिटींत वचून येवया. रवीन्द्राची भाची थंय शिकता. म्हाका उत्सुकताय आशिल्ली. नानूक मेळपाची न्हय, युनिव्हर्सिटी पळोवपाची. खूब नांव आयकल्लें तिचें.

नानू थंय कॅम्पसांत आमकां मेळ्ळें. ताच्या वांगडा ताच्यो पुणेरी इश्टीणी आशिल्ल्यो. आमी नानूकडेन इतलें आपलेपणान आनी मोगान उलयतात तें पळोवन तातुंतले एकलेन आमच्या तोंडारूच नानूक विचारलें, 'आई-वडील का ग तुझे माधवी?'

म्हजी 'लायनी' मारपाची नदरूच ते चलयेन सामकी पिसडून उडयली.

हळुहळू म्हजी रवीन्द्रबाबांकडेन इश्टागत वाडत गेली. तांच्या सगळ्या कुटुंबाकडेन म्हजी दाटाय जाली. माधवीचें लग्न राजू कडेन जालें. राजू म्हजो विद्यार्थी चळवळींतलो इश्ट, नानूचे भयणीचें सविताचें लग्न सुबोधाकडेन जालें, सुबोधाचे भयणीचें हर्षदाचें लग्न सतीश सोनकाकडेन जालें अशे तरेन सगळें आमचें कुटूंबचशें जावन गेलें. हांव केळेकार, सरदेसाय कुटुंबांतलोच सो जाल्लों म्हळ्यार जाता.

रवीन्द्रबाब नानूक आपली धूव मानतालो. तशें सांगतालोय बी तो. एक दीस ह्याच विशयाचेर उलयतना हांवें रवीन्द्रबाबाक म्हळें, 'नानू तुजी धूव जाल्यार हांव कोण?' तसो रवीन्द्रबाब अपुर्बायेन सो हांसलो. कांयच उलयलो ना. मुखार गोदूबाय बशिल्लें. ताणें म्हळें, 'तूं कोण म्हणचे? तूंवय आमचोच. न्हय रे रवीन्द्र?'

नानूचें आनी म्हजें नातें कितें तें म्हाका खबर ना. पूण नानू म्हजेकडेन खूब ओडटा. ताच्या उलोवपांतल्यान, वागपांतल्यान भावता म्हाका तें. नानूचें आनी म्हजें नातें म्हळ्यार नानू म्हजी नेमाळें भयण. तें 'जाग' संपादीत करता. हांव 'बिम्ब'. म्हणटकच आमी संपादक बंधु भगिनी.

रवीन्द्रबाबान जाग नेमाळें सुरू केलें. आयज बंद जाता फाल्यां जाता अशें करीत खूब वर्सां चलयलें. पयल्या अंका सावन हांव ताका गवाय आसां. मागीर ती जापसालदारकी नानून घेतली. 'तातो आसा सर आपूण तें चलयतलें म्हूण' चलोवंक लागलें. नानूच्यो हजार राटावळी. विद्यापीठांत शिकयता. तें शिकोवप फक्त नोकरी म्हूण शिकोवप न्हय तर कोंकणी विभाग, कोंकणी विद्यार्थी, तांचो फुडार होच आपलो फुडार हे निश्ठेन शिकोवप. ती ताची नोकरी न्हय. तें ताचें व्रत. नानू राजू नायका वांगडा संवसारूय करता. राजू नायकाक वळखप्यांक कळटलें, राजू वांगडा संवसार करप म्हळ्यार कितें तें! तातूंत नानूक दोगी चलयो. तांकांय आपले वरी

विद्वान करपाचे नदरेन तांचेरूय लक्ष. नानूक जगावेल्यो हेर राटावळीय लागतात. देशभरांतल्या खंयच्याच विद्यापिठाक तें आपूण सेमिनाराक येवंक पावना म्हूण सांगना. कोंकणीची खंयचीच कार्यावळ तें चुकयना, अकादमींचें निमंत्रण न्हयकारना. इतलेंय करून जाग चलयता. बरयता.

तातो उप्रांत 'जाग' बंद करतलें अशें म्हणपी नानूक तें शक्य जायना. तातूंत ताचो प्राण रुतला. जागांत ताका तातो दिसता. राजू, हांव बी ताका जाग वेवसायीक रुपान बदलुया म्हणटात. पूण नानूक तें मान्य ना. नानूक जाग 'सेंद्रीय' दवरपाचो आसा.

नानू एक निजाचें भाशा विज्ञानीक, भासशास्त्र हो ताचो जिव्हाळ्याचो विशय. त्या विशयांत ताणें जीव ओतला.

नानू एक उत्कृश्ट अनुवादक. कोंकणीचेर ताचें जितलें प्रभुत्व तितलेंच हेर भासांचेरूय प्रभुत्व. हालींच तें वेळांत वेळ काडून पुर्तुगेजूय शिकलां. नानून रवीन्द्रबाबाचें गांधीवेलें हिन्दींतलें पुस्तक कोंकणी केलां, 'एका विचाराची जीवीत कथा' म्हूण! ताका साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कारूय लाबला. पुरस्कार लाबला म्हूण न्हय, पूण अनुवादाचो उत्कृश्ट नमुनो पळोवंक जाय जाल्यार कोणेंय हें पुस्तक वाचचें.

रवीन्द्र केळेकारान आपलें पुराय आयुश्य कोंकणी खातीर ओपलें. ताणें वतना तो हात माधवीच्या माथ्यार दवरला. कोंकणीची सेवा हेंय नानूचें व्रत थारलां. तें व्रत घेवनूच तें आयज पन्नाशी हुपता. पस्तीस वर्सां आदीं हांवें एक मिठाकणी पळयल्ली ती दर्यायेदी जाल्या.

नानूक भांगराळ्या वाढदिसा निमतान खूब खूब शुभेच्छा!



# आचार संहिता ते अनाचार संहिता

**म्हाका** गोवा कोंकणी अकादेमीच्या अध्यक्षपदावेल्यान अकस्मात उखल्लो (उचलबांगडी!) म्हणपाची बातमी फां फां जाली आनी खूबश्या जाणांचे एसएमएस आनी फोन आयले. गोंयच्यानूच न्हय तर गोंया भायल्यान लेगीत. कांय जाण मेळून लेगीत गेले.

म्हाका गोवा कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष केल्या उपरांत जितल्या जाणांनी अभिनंदन केल्लें ताच्याय परस कितले तरी चड बरें मागप्यांनी 'हें जालें तें बरें जालें ना' अशें म्हळें. हांव अध्यक्ष जाल्ल्यान जांकां काडयेचोय फायदो नाशिल्लो पूण जाणीं म्हजो फाटल्या चार दसकांचो वावर पळयल्लो तांचोच हातूंत चड आसपाव आशिल्लो.

खूब जाणांनी सांगलें, तुवें हाचेर रियक्ट जावंक जाय. तुजेकडेन एक माध्यम आसा जें चार लोकांकडेन पावता. निदान अग्रलेखांत तरी चार ओळी बरय. जें घडलां ताची नोंद जावंक जाय इतिहासांत!

तांची भावना म्हाका होलमताली. पूण बिम्ब मासिक म्हजे व्यक्तीगत प्रस्न मांडपा पासत ना. बिम्बाचो हांव जरी मालक आनी संपादक आसलों तरी बिम्बाचो अग्रलेख हो सगळ्या बिम्ब परिवारावतीन आसता. म्हजेर अन्याय जाला अशें कांय जाणांक दिसता आसलें तरी तशें

सगळ्यांकूच दिसतलें अशें ना. देखून म्हजो प्रस्न अग्रलेखांतल्यान मांडप म्हज्या विचारांक मानवलेंना. तेच वांगडा म्हज्या बऱ्या मागप्यांचेंय म्हणणें रास्त आशिल्लें. हांव खंयच्याच पातकांत नासतना म्हजेर नाका जाल्ले आरोप जावप तेय बी 'काश्टी भिजय नासतना थिगूर खावप्यां कडल्यान' हें तांकां आवडपा सारकें नाशिल्लें. तेच पासत तांचे इत्से खातीर हें बरयले बगर म्हाका दुसरो पर्याय ना. जें घडलां तें कोंकणीच्या मळार योग्य घडलेंना हें म्हाका पटलां देखून हें बरोवन दवरचेंच पडटा.

सगळ्यांत पयलीं म्हाका एक गजाल हांगा नमूद करूंक जाय ती म्हळ्यार हांवें अजून मेरेन कोणाचकडे म्हाका एखाद्रें पद दियात म्हूण केन्नाच मागलें ना. कोंकणी अकादेमीचें अध्यक्षपद लेगीत म्हजेकडेन आयलें तें हांवें मागनासतना. नाका नाका म्हणटा आसतना.

१६ डिसेंबर २०११ हे दिसा सकाळी साडे धा वरांचेर त्या वेळचे मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हाणीं म्हाका फोन केलो आनी म्हळें, 'दिलीप, कोंकणी अकादेमीची फायल घेवन हांव बसलां तूं अध्यक्ष म्हूण हांव सही मारतां. तूं ना म्हणटा अशें आयकतां. कितें तें आतां सांग.'

म्हाका गोवा कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष करपाचें सरकारान थारायलां म्हणपाचें म्हजे कांय इश्ट उलयताले. पूण त्या गजालींचेर म्हजो विस्वास नाशिल्लो. तें पद आपल्याक मेळचें म्हूण एन. शिवदास जीव तोडून धांवपळ करतालो. हेरांक हे आदी दोन टर्म मेळ्ळ्यात. आपल्याक मात एकूच कित्याक? ह्या एकाच मुद्याचेर तो धडपडटालो. अकादेमीच्या कर्मचाऱ्यांकडेन सरकाराक तशें पत्र बरोंवचें म्हूण विनयतालो. साहित्य अकादेमी पुरस्कार प्राप्त जाल्ल्या हेर लेखकांक तश्या आशयाचें सरकाराक ताणीं निवेदन भेटोवचें म्हूण पराथतालो. राजकीय फुडाऱ्यां कडल्यान चेंपण हाडटालो. हें सगळें म्हाका खबर आशिल्ल्यान हांवें ताचेर विचार




लेगीत करूंक नाशिल्लो.

दुसरी गजाल म्हळ्यार हांव कर्तुत्वी मनीस हाचो म्हाका अभिमान आशिल्लो. कॉलेजची प्राध्यापकी सोडून हांवें 'बिम्ब' मासीक समर्थपणान चलोवंक आरंब केल्लो. म्हजे वांगडाच हांवें आनीक चार लोकांक रोजगार तयार केल्लो. म्हजें स्वताचें एक सांस्कृतीक केंद्र अस्तित्वात हाडिल्लें. थंय कोंकणी अकादेमी सारखो वावर म्हज्यान सुरु करूं येतालो. तशी म्हजी तयारीय चलताली. अशें आसतना हांवें अकादेमीचें अध्यक्ष पद घेवन म्हजी शक्त म्हाका थंय घालपाची नाशिल्ली.

गोवा कोंकणी अकादेमी स्थापन केल्ली ती मुळांत पुरूषोतम काकोडकारांची वेवस्ता लावंक. त्या वेळावेले नायब राज्यपाल डॉ. गोपाळसिंग हाणीं तशें उलोवनूय दाखयल्लें. भलायकेच्या कारणांक लागून तिसरी टर्म चलता आसतना भाऊ काकोडकारांक तें पद सोडचें पडलें आनी वेवस्ता लावपाची परंपरा फुडाराक चालूच उरली. फाटलीं पंचवीस वर्सां अकादेमीचो वावर कसो चल्ला? ती अकादेमी काय मंडळ? हाची म्हायती कोणाकूय मेळूं येता. असले अकादेमी खातीर धडपडून पांयार फातर मारून घेवपाक म्हाका रस नाशिल्लो. तेच पासत हांव म्हज्या इश्टांक ती भानगडूच नाका म्हणटालों.

जेन्ना विधानसभा वेंचणुकेची आचार संहिता लागू जावपाची वेळ आयली आनी तेच वांगडा अकादेमीच्या आदल्या अध्यक्षाचो कार्यकाळूय सोंपलो तेन्ना आचार संहिता लागू जावंचे आदीं कोणाची तरी अध्यक्षपदार वर्णी लावप गरजेचें आशिल्लें. तेच पासत खासा मुख्यमंत्र्यांनी म्हाका फोन केल्लो. ताणीं फोन केला तेन्नाच म्हाका म्हजे इश्ट गजाली करताले तातूंत तथ्य आशिल्लें म्हणपाचें कळ्ळें. पूण म्हाका तातूंत रस नाशिल्लो.

मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हाणीं म्हाका सांगलें, कोंकणी अकादेमी

सारखे संस्थेन लोकांमदीं कोंकणी विशींची जी जागृताय हाडूंक जाय आशिल्ली ती हाडली ना देखून कोंकणी पासत एका काळार जे झगडटाले तेच आज शाळांनी इंग्लीश माध्यम मागतात. तूं आतां अकादेमीची जबाबदारी घे. आदर्श अश्यो कोंकणी शाळा सुरु करूंक फुडाकार घे. म्हजो तुका सगळो तेंको आसतलो.

तांच्या ह्या आश्वासनावेल्यान आनी विनवणेवेल्यान हांवें तांच्या उतराक मान दिवन शेवटाक 'हय' म्हळें. हय म्हणपा फाटलें आनीक एक कारण आशिल्लें.

दिगंबर कामत जेन्ना मुख्यमंत्री जाले तेन्नाच दामोदर मावजो हांचो साहित्य अकादेमीवेलो कार्यकाळ सोंपिल्लो. सरकाराक नवो प्रतिनिधी धाडपाचो आशिल्लो. कोणाक धाडचो असो जेन्ना प्रस्न आयलो तेन्ना तुमकां जाय जाल्यार म्हजो विचार करूं येता अशें हांवें प्रसाद लोलयेकाराक सुचयल्लें. ताणें तें मुख्यमंत्र्यांक सांगलें. मुख्यमंत्र्यांनी फायल पूट अप करूंक सांगली.

पूण ते आदी गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष पुंडलीक नायक हाणीं अकादेमीची बसका घेतली. बसकेचें अध्यक्षपद, उपाध्यक्ष डॉ. तानाजी हळर्णकार हांकां चलोवंक लायलें. बसकेंत आपलें नांव घेवंक लावन तें पास करून घेतलें. खरें म्हळ्यार हें नांव सरकारान सुचोवपाचें आसता. अकादेमी आपले बसकेंत सरकारची ही इत्सा मान्य करून साहित्य अकादेमी कडेन धाडटा. कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष आपलेंच नांव सुचयता हें बेकायदेशीर. तरी लेगीत दिगंबर कामतीन म्हळें, आतां आसूं रे. तोय कोंकणी साहित्यिकूच. वचूं ताका. तुका दुसरें कितें तरी पळोवया.

हांवें म्हळें तशें जाल्यार म्हाका इन्स्टियूट मिनेझिस ब्रागांझाचेर

अध्यक्ष म्हूण धाड. ते नदरेन तयारी जाल्लीय बी. पूण हांवूय केन्ना फाटीक लागलोंना आनी तें तशेंच उरलें. तेच पासत आतां दिगंबर कामतीन म्हणिल्लें, 'फुडलो मुख्यमंत्री कोण जायत सांगू नज. तूं पयलीं हें घेवन उडय' तेच पासत तांचे विनवणेक मान दिवन हांवें अध्यक्षपद घेतलें. आचार संहिता लागू जावचे दोन दिसां आदीं.

वेंचणूक जाली. भाजपचें सरकार आयलें पर्रीकार मुख्यमंत्री जाले.

म्हाका आदल्या सरकारान अकादेमीच्या अध्यक्षपदार बसयिल्लो. सरकार बदल्लें म्हणटकच हांवें अध्यक्षपद सोडूंक जाय आशिल्लें. केन्नाच घडचेंना, घडूंक फावना अशें दिसतालें तें कला अकादमीचें अध्यक्षपद लेगीत राणेन सोडिल्लें. पूण तो राजकारणी हांव साहित्यिक. तातूंत पर्रीकारान जाहीर केल्लें की ज्या अयक्षपदांचो कार्यकाळ थारिल्लो आसा ताका आपूण हात लावंचो ना. 'म्हळें बरें आसा. राजिनामो कित्याक दिवप हांवें? कोंकणी अकादेमी म्हळ्यार महामंडळ न्हय. अकादेमीचें अध्यक्षपद म्हाका मागनासतना दिल्लें तशें तें नव्या सरकाराक जाय जाल्यार परत व्हरतले.'

नव्या सरकारान ताचेर व्हडलेंशें लक्ष दिलें ना. हांव म्हजे पध्दतीन अकादेमीचे थारिल्ले कार्यक्रम मुखार व्हरतालों. अकादेमीचे जाहीर जाल्ले वर्सुकी पुरस्कार ३१ मार्चा आदीं बी भेटोवपाक जाय आशिल्ले. हांवें मुखेल सोयरो बी थारायलो. पुरस्कार भेटवण सुवाळ्याक मुख्यमंत्री जाय म्हूण विष्णू वाघाक घेवन पर्वरी सचिवालयांत ताका मेळूंक गेलों. कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष म्हूण मुख्यमंत्र्यांचें हांवें फुलां भेटोवन अभिनंदन करूंक जाय आशिल्लें. तशें आदले अध्यक्ष करताले. पूण मुख्यमंत्र्यांक धरप खंय? हो प्रस्न आशिल्लो देखून मेळप जालेंच ना.

आतां म्हजेकडेन फुलां नाशिल्लीं. म्हज्या पुस्तकांचो एक सेट आशिल्लो

तोच घेवन गेलों. मुख्यमंत्र्यांक मेळूंक वतना म्हाका खूब जाणांनी सांगिल्लें, पर्रिकार आतां आदलो उरूंक ना. खूब बदल्ला. तेच अपेक्षेन हांव गेल्लों. म्हाका पळयले बराबर हांसलो. बसूंक सांगलें. म्हणूंक लागलो, 'आतां पणजे फस्ट म्हूण काड'. तो कितें म्हणटा तें म्हाका कळ्ळें ना. मागीर म्हजी ट्यूब लायट पेटली. मडगांवचे कांय लोक 'मडगांव' म्हूण काडटाले. ताणीं आग्रो करून म्हजेकडल्यान 'बोरकारी' सदर सुरु केल्लें. दोन तीन खेप तातूंत हय न्हयसो पर्रिकाराचो उल्लेखूय आयिल्लो. ताचेरूच तो त्रोसां मरतालो.

हांवें म्हळें, "तें एक विनोदी साहित्य. तातूंत मनाक लावन घेवपाचें नासता. हांवें कांय टिका करूंक ना".

तशें ताणें आपलें कदेल घुंवडायत म्हळें, 'दाखोवं तुका हांवें सांबाळून दवरलां."

विष्णून म्हळें, "आसूं तें आतां!"

"तुगेली प्रतिभा तूं म्हजेर टिका करपाक कित्याक वापरता? बरीं पुस्तकां बरय."

पर्रिकारान म्हाका सल्लो दिलो. हांवें मोन्यानी आयकलो. म्हज्या पुस्तकांचो सेट ताका भेटयलो. पुरस्काराची कार्यावळ सांगली. ताणें दीस बी थारायलो.

"बरी चलय अकादेमी. समिती बी घडली काय ना?" ताणें प्रस्न विचारलो.

हांवें म्हळें "प्रोसेस चालू आसा."

"कोणाक कोणाक घेतल्यात?"

हांवें म्हायती दिली. मागीर म्हळें कोंकणी अकादेमीची प्रशस्त वास्तू जाय. तुवें पणजे अकादेमीक सुवात दिली. अकादेमीचें अनुदान वाडयलें.

हेंय काम तुज्याच हातांतल्यान जावंदीं.

"जागो पळय आनी सांग." ताणें म्हळें.

"पाट्यार जंय आसा थंयच बांदुया."

"तें दायज विभागांत पडटा. तिका हात लावंक हांव दिवंचो ना."

अश्यो आनी हेर कांय खबरो करून हांव भायर सरलों. ते आदीं हांवें ताका म्हळें, "म्हाका अकादेमी वयलो काडचो म्हूण प्रयत्न चल्ला. तुका जाय जाल्यार काडूं येता. म्हजी हरकत ना."

"हांवें काडटलों म्हणलां तुका?" पर्रिकाराचो प्रस्न.

"ताका हालींच केला अध्यक्ष दोन म्हयन्या आदीं." विष्णून ताका सांगलें.

हाचे वेल्यान म्हाका अध्यक्षपदावेल्यान काडपाची ताका इत्सा ना हाची म्हाका खात्री जाली. खऱ्यानीच पर्रिकार बदलिल्लो.

उपरांत माथानीच्या मरणाक लागून अकादेमीचो पुरस्कार भेटवण सुवाळो उरलो. तरी तो एकदांचो करून उडोवंक जाय हाची म्हजेर जापसालदारकी आशिल्ली. तोच विशय घेवन परत मुख्यमंत्र्यांक मेळचें पडिल्लें.

१४ एप्रिलाक कला अकादमीच्या कॅन्टीनांत विष्णू आनी पर्रिकार बशिल्ले. हीच संद आसा म्हूण ताच्या म्हऱ्यांत गेलों. ताणें आपल्याच म्हऱ्यांत बसयलो. म्हाका चण्याची पातळ भाजी खावयली. कार्यावळीचेर चर्चा केली. 'आपल्याक ते कार्यक्रम बी नाका. तूं कामां कर हांव फक्त तुक चेक दिवपाचें काम करतां.' इतलें बी सगळें उलोवप जालें. आपूण वता म्हूण उठलो. वतनां 'च्याचें बील कोण दितलो?' हेंय विचारलें. विष्णून म्हळें, आपूण अध्यक्ष म्हणटकच हांवच दितां. अशें खेळी मेळीन उलोवप जालें.

आनी १६ एप्रिलाक हांव अकादेमीच्या कार्यालयांत बसून 'कमिटी' घडोवपाच्या कामांत आसतना राजभास संचालनालयांतल्यान अकादेमीचो अध्यक्ष म्हूण पुंडलीक नायक हांची नेमणूक केल्ल्याचो आदेश आयलो. आदेश वाचलो आनी हांवें जे कितें सोपस्कार करूंक जाय आशिल्ले ते सगळे केले आनी अध्यक्षपदाचें कदेल सोडलें.

आचार संहिता लागू जातली म्हूण ते आदीं तीन म्हयन्यां पयलीं म्हाका अध्यक्षपदाची ऑर्डर घेवंची पडिल्ली. १७ एप्रिलाक पंचायत वेंचणुके पासत परत आचार संहिता लागू जावपाची आशिल्ली. म्हणटकच ते आदीं पुंडलीक नायकाक अध्यक्षपद ताब्यांत घेवप गरजेचें आशिल्लें. म्हणटकच जाता तितले बेगीन तें खालीं करप हेंच शाणेपणाचें आशिल्लें . आतां प्रस्न पडटा, म्हजे बाबतींत हें अशें कित्याक घडटा? हांव एक मासिक चलयतां, हांव सातत्त्यान लेखन करतां. तेच पासत म्हाका वेळ मेळना अशें आसुनय अध्यक्षपद आंगार पडटा. थंय म्हाका म्हजें कर्तृत्व दाखोवंक मेळनासतना तें काडून घेतात. दोन खेप हांव पर्रिकाराक मेळिल्लों. तेन्ना ताणें 'तूं अकादेमींत लक्ष घालू नाका' म्हणपाचें. म्हाका तितलो संदेश पुरो आशिल्लो. पूण अशें घडल्यार तो पर्रिकार कसलो?

आदीं साडे सात वर्सां आदीं जेन्ना तो मुख्यमंत्री आशिल्लो तेन्नाय एक दीस हांव ताका मेळूंक गेल्लों. म्हाका ताणें १० वरांचेर अॅपोयन्टमेंट दिल्ली. म्हजें व्यक्तीगत काम नाशिल्लें. साहित्यिकांचेर, कलाकारांचेर म्हायतीपट काडप, वाचनालय चळवळ चलोवप बी मुद्दे घेवन हांव गेल्लों. दनपरां अडेज ते साडे तीन मेरेन मुख्यमंत्र्यांच्या कॅबिनांत मुख्यमंत्री आनी हांव दोगूच जाण खूब उलयले. म्हज्यो सगळ्यो मागण्यो ताणें मान्य केल्यो. तेन्नाच हांवें दुबाव येवन ताका विचारलें, 'भाई, तूं सरकार डिजोल्व बी करता?'

'तुका कोणें सांगलें?' म्हणत तो तापलो आनी दुसरे दिसा खऱ्यानीच सरकार बरखास्त केल्लें. आतांय हें तशेंच जाल्लें. तेन्ना ताणें कदेल सोडिल्लें आतां म्हजें काडून घेतिल्लें.

दिलीप बोरकार केन्नाच खंयच्या पदाक लागून व्हड जावंक ना. ताणें कांय कर्तृत्व केलां देखून तें पद ताका फावलां. तें काडून घेतलें म्हूण तो ल्हान जायना. पूण खंत भोगता ही प्रथा साहित्याच्या मळार घडूंक फावनाशिल्ली. पुंडलीक नायक साहित्य अकादमीचेर गेल्लो तेन्ना 'आसूं, तोय लेखकूच. वचूं ताका' अशें दिगंबर कामत आनी हांवें म्हणिल्लें. तशें पुंडलीक नायक आनी पर्रीकारान म्हणूंक जाय आशिल्लें. पूण पर्रीकारान म्हजो म्हळ्यार एका साहित्यिकाचो अपमान केला. हो निर्णय घेतना ताणें म्हजें आयज मेरेनचें कार्य लक्षांत घेवंक ना. ताणें लक्षांत घेतलें, कांय विघ्न संतोशी लोकांनी ताचे कान फुंकले तेंच.

जांकां हांव अध्यक्षपदार नाका जाल्लों ताणीं एक फटींचो प्रचार सुरु केल्लो. दिगंबर कामतीन इंग्लीश माध्यमाच्या शाळांक अनुदान दिवपाचो निर्णय घेतलो तेन्ना सगळ्या स्वाभिमानी लोकांनी सरकारी पदां सोडलीं. पूण दिलीप बोरकारान भाशा सुरक्षा मंच सोडून दिगंबर कामतीकडे लेमडेपणा करून अध्यक्षपद घेतलें असो हो प्रचार सुरु जालो. एन. शिवदासान नवप्रभांत तशें बरयलेंय. शिवदासाचो टर्म ३१ डिसेंबराक सोंपला. भारतीय भाशा सुरक्षा मंच ते आदीं सुरू जाल्लो. आपल्याक दुसरो टर्म मेळचो म्हूण ताणें निमणे मेरेन प्रयत्न केलो. १६ डिसेंबराक दिगंबरान म्हजें नांव घालून फायल क्लिअर केली.१८ डिसेंबराक शिवदासान मडगावां दिगंबरा कडेन वचून निमणी शेपडी बडयली. खरें फट काय कितें तें प्रा. हरिश्चंद्र नागवेकारांक विचारात. ३१ डिसेंबराक शेनवार आशिल्लो तरी लेगीत शिवदासान अकादेमीची गाडी आपलेकडेन

दवरिल्ली. मागीर भाशा सुरक्षा मंचाचे चळवळी खातीर पदां सोडलीं म्हणटात तें कितें ?

पुंडलीक नायक गोंय सरकारचो प्रतिनिधी म्हूण साहित्य अकादेमीचेर गेल्लो. दिगंबर कामतीनूच धाडिल्लो. मागीर निशेध म्हूण तें पद कित्याक सोडलें ना ? ताचो कार्यकाळ सोंपसर रावलो आनी आतां म्हजेर आरोप करून हें पद आपणें घेतलें हो कसलो न्याय ? ताचे सुवातेर हांव आशिल्लों जाल्यार म्हणटलों आशिल्लों तोय साहित्यिक. आसूं दी तीन वर्सां. पळोवया कितें उजवाड घालता तो !

हांवें भाशा सुरक्षा मंच कित्याक सोडलो तेंय सांगपाक जाय. म्हाका दिशिल्लें शशिकला काकोडकार आता बदल्ल्या. तिणें चळवळ उबारपाक फुडाकार घेतला. कोंकणी मराठी भाशावाद ती पयस करूंक शकता. तिच्या फुडारपणा खाल वावर करूं येता. पूण तिचे भितर नेतृत्वाचो कसलोच गूण दिसलो ना. तिणें चळवळ आरएसएसांच्या हातांत दिली. तांचें आनी म्हजें जुळप शक्यूच नाशिल्लें. शेवटाक भाजपाक वेंचून हाडपा खातीर भाशा सुरक्षा मंचाचो वापर जावंक लागलो. हांव अशें करूंक वचूंक नाशिल्लों. तातूंत म्हाका सगळे टाळपाक लागिल्ले. मुख्यमंत्र्यांकडेन शिश्टमंडळ वचपाचें आशिल्लें. म्हाका साडे तिनाक सचिवालयांत आपयलो. हे सकाळीं वचून आयले. हांव सांजचो पर्वरी सुकतां. म्हाका फोन करून कळोवप एकल्याकूय जमलेंना. फुडारी म्हूण शशिकलेन दिलगिरीय उच्चायली ना.

कलाकारांक एकठांय हाडपा खातीर म्हजे मुखेलपणा खाल समिती केली. गोरख, अनिल सामंत बी आमी एक बसकाय घेतली. दुसरे दिसा विष्णू वाघान आमचो कार्यक्रम हायजॅक केलो. मराठा समाज सभाघरांत मेळावो जालो. म्हाका मंचार आपोवप सोडाच म्हज्या नांवाचो उल्लेख

लेगीत करपाचें टाळ्ळें. आझाद मैदानावेल्या मेळाव्यांत चडांत चड लोक येवंचें म्हूण हांव धडपडलों. रामदेव बाबाचे सभेक वचून,रामदेव बाबाक मेळून इत्सा नासतनाय ताचे मांडयेक मांडी लावन बसलों. तेच माचयेवयल्यान भाशण करून लोकांक आवाहन केलें. पूण मेळाव्यांत म्हाका उलोवपाक दिलें ना. जे कोण केन्ना नाशिल्लेच ते माचयेर उलोवंक मुखार!

हांव म्हज्या बोल्सांतल्यान दुडू खर्च करून चळवळी करतां. तेच वेळार एक लेखिका भाशा सुरक्षा मंचाच्या नांवान हजारांनी दुडू एकठांय करता. तांकां पावती दिना. तिचेर शशिकलेचें नियंत्रण ना. मेळटा ताणें पयशे एकठांय करपाचो निर्णय समितीन घेवंकूच ना. विद्यार्थी चळवळी पासून कितल्यो तरी चळवळी उबारून आयिल्लों हांव म्हाका ही बजबजपुरी मानवलीना. गोंयच्या दोन समाजांमदीं फूट घालपाची ही चळवळ म्हाका पचली ना. हांव भायर सरलों. हे चळवळी मुखार म्हाका अध्यक्ष पद म्हत्वाचें नाशिल्लें.

पयले खेप शिवदासाक अध्यक्ष केला तेन्ना दिगंबरान म्हाका जाता काय विचारिल्लें. कित्याक दामोदर मावज्याचेंय नांव तेन्ना आयिल्लें. दिगंबर धर्मसंकटांत सांपडिल्लो. शिवदास सुभाष शिरोडकाराचो उमेदवार. ताकाच कर अशें हांवें सांगलें. जाय जाल्यार म्हज्यान अध्यक्ष जावं येतालें.

लुईझीन फालेरो मुख्यमंत्री जालो तेन्ना म्हाका कला अकादमीचो अध्यक्ष केलो. विष्णू वाघाचो एक मित्र संदेश नार्वेकार आयलो आनी म्हणूंक लागलो, विष्णून सांगलां आपल्याचें नांव उपाध्यक्ष पदा खातीर घाल.उपाध्यक्ष म्हूण हांवें विष्णू वाघाचें नांव सुचयलें. अध्यक्षपद आपल्याक जाय म्हूण राणेन हट्ट धरलो. म्हाका उपाध्यक्ष जा म्हणूंक





लागलो. हांव फक्त मेंबर रावलों. उपाध्यक्षपद घेतलें ना. फट जाल्यार लुइझिनाक आनी मुदास्सिराक विचारात. साहित्य अकादेमीचेर म्हाका वचूंक जाय जाल्यार म्हज्यान वचूं येतालें. मात्सो हट्ट धरपाचो. दिगंबर ना म्हणपाचो नाशिल्लो. पूण म्हाका पुंडलीक नायकाची, एका साहित्यिकाची पत राखपाची आशिल्ली. प्रसाद लोलयेकाराक हें सगळें खबर आसा.

दिलीप बोरकार ताठ मानेन भोंवता तो ह्याच तत्वांक आनी आंगांतल्या कर्तृत्वाक लागून. म्हजें साहित्य हें उलयता आनी बिम्ब मासिक दाखलो दिता.

आतां शेवटाक मनोहर पर्रिकाराविशीं थोडें. ताचें आनी म्हजें वायटपण कांय ना. ताणें सांगपाचें पद सोड. म्हाका दुसऱ्याची वेवस्था लावपाची आसा. पूण निमणे खिणा मेरेन ताणें कांय सांगलें ना. हांव कोण न्हयशें करून च्यांतली मूय काडून उडोवंची तशी म्हाका काडलो.

अशें करून कोण ल्हान जालो?

ताणें एका साहित्यिकाचो अपमान केला. म्हाका तरी तशें दिसता. तेच पासत तो सत्तेर आसा सर सरकाराचो खंयचोच पुरस्कार आनी सन्मान हांव घेवंचोना. हातुंतल्यान ताचें कायंच बिघडना हें खरें पूण म्हाका साहित्यिकांचो मान राखपाक जाय. तेच वांगडा ताचे तकलेंत म्हाका एक माकडूय घालूंक जाय.

एकलो खंय एका साधूकडेन गेलो. ताणें ताका विचारलें, म्हाका अजरंवर जावंक जाय, तुजे कडेन ते पासत कितें मंत्र बी आसा? साधून ताका मंत्र दिलो आनी म्हळें, हो मंत्र दिसाक तीन खेप म्हण. तूं अजरंवर जातलो. पूण एक काळजी घे. हो मंत्र म्हणटना तकलेंत माकडाची याद मात हाडूं नाका. त्या मनशाक मंत्र म्हणटना केन्ना माकडाक कुशीक काडप जमलेंना.

साहित्यिक म्हळ्यार माकड न्हय. साहित्यिकाचें पद हें अढळपद. तें कितलो काळ अढळ दवरप हें त्या त्या साहित्यिकाचेर अवलंबून आसा. कोंकणी अकादेमी सारकें तें कोणूय काडून घेवंक शकना. तेन्ना जेन्ना जेन्ना पर्रिकार एखाद्रें पुस्तक हातांत घेतलो वो साहित्यिक कार्यावळीक वतलो तेन्ना ताचे तकलेंत ताणें म्हाका हाडूंक फावना.

हाकाच तकलेंत माकड घालप म्हणटात!

आतां याद जाता म्हूण एक गजाल म्हज्या सगळ्या कोंकणी कार्यकर्त्यांक विचारूंक सोदतां. साडे सात वर्सां आदीं पर्रिकार मुख्यमंत्री आशिल्लो. तेन्ना तोमाझिन कार्दोजाक हाताक धरून नागरी आनी रोमी अशी फूट घाली. आतां तो साहित्यिकां मदीं फूट बी घालिना मूं?



# मार्चांतलें संगीत

**मार्च** म्हयनो लागलो काय हांव सामको प्रसन्न जावन वतां. आमचे मदल्या सगळ्यांकूच हें घडटा काय कितें तें म्हज्यान सांगू नज. 'व्यक्ती तितल्यो प्रकृती' हेय तशे अणभवाचे बोल. मार्च म्हयन्यांत अर्थसंकल्प जाहीर जाता. भोवतेक मनशाची जीण ही अर्थकारणाचेर आसता. अर्थसंकल्प मना सारको नासत, ताका लागून आपल्या वेवसायांत लुकसाण आसा अशें दिसपी मनशाक मन प्रसन्न दवरप जमता काय खबर ना. जांचें मन वेगवेगळ्या समस्यांनी रडत आसता, आक्रंदत आसता ताका मार्च म्हयन्यांतलें कोगुळेचें गायन आयक म्हण सांगप वो तशी अपेक्षा बाळगप कितलें योग्य आसा हें म्हाका समजना. पूण वेगवेगळ्या अडचणींत आसतना हांव मात मार्च म्हयनो आयलो काय फुलून वतां.

मागीर हांव म्हजे म्हाकाच प्रस्न करूंक लागतां, म्हज्यांतूच संशोधन करूंक लागतां आनी हयन्हयशी जाप म्हाका मेळूंक लागता, म्हाका हें सगळें होलमता, भावता ताचें फाटलें कारण म्हळ्यार हांवें अजून म्हाका सैमांतलो वेगळो घटक म्हूण मानून घेवंक ना. हांव सैमाचोच एक अंश म्हणून म्हजेकडेन पळयत रावलां आनी तेच पासत म्हजें शरीर आनी मनूय ह्या रूतूचक्रावांगडा उत्सव मनयत रावता. उत्सवाक आरंब जालो काय ताच्या येवकाराक सगळ्यांत पयलीं म्हजें तन दरेक रूंव फुलोवन तयार जाता आनी गावंक लागता म्हजें मन.

मार्च म्हयन्याच्या आरंबाक आरंबाक सुलूस लागता ती वसंताची. वसंत घेवन येता फुलांचो उत्सव, वसंत घेवन येता तरांतरांच्या सवण्यांचें गायन. वसंत घेवन येता कार्नवाल आनी शिगमो, वसंत घेवन येता आंतरराष्ट्रीय महिला दीन...वसंत रूतू घेवन येता तो शिगमो...

शिगमो म्हळ्यार शीतगमय.... शीतगमयची, म्हळ्यार थंडी ना जावपाची खोस हालीसराच्या हवामानाक लागून कोणाक तशी खास होलमुपाची ना. ताचो अदमास येतलो जाल्यार आमच्या मदल्या जाण्टेल्यांकडेन कोणेंय चवकशी करूंक जाय. मागीर ते सांगतले आपले भुरगेपणार थंडी कशी पडटाली ती! शिंयाचो कुडकुडो म्हळ्यार कितें हाचो अणभव घेतिल्ले आमचे पूर्वज त्याच पासत शिगम्याक-शीत गमयाक म्हत्व दीत आयल्यात. तेन्ना आयचे सारके थंडी धांवडावन घालपी हीटर नासताले. वेगवेगळ्यो सुविधायो नासताल्यो. आसतालो तो सैमीक हीटर म्हळ्यार सूर्य. त्या सूर्याचें आगमन जाय म्हणसर पयलीं पेट्टालो तो धग. दरेक घराच्या पोरसांत वो मागिलदाराक सरभोंवतणचो कोयर, झाडपालो एकठांय करून, ताका उजो लावन धग तयार जातालो. त्या धगा भोंवतणी घरच्या सगळ्यांनी शेकत बसप हो एक सुवाळोच आसतालो. घरांतलीं बायलां भायर धगाकडेन येना आसलीं तरी भाकरी थापपाक, च्या, पेज, आंबील रांदपाक चुलीकडेन बसून आपले परीन शेकतालींच.

हो घराघरांनी पोल्लो पेटोवन धग घेवप म्हळ्यारूय एक मिनी होळीच कशी, दर सकाळीं दर घराचे भितोडेक पेटपी. ती तयारी येवपी होळये पुनवेची! सरभोंवतणचें नश्ट सगळें भस्म करपी परबेची.

तर थंडेच्या काळांत शिंयांचो हो शेक मनशाचेर चलतालो आनी ना नपयत करपाक येतालो वसंत. तोच सृश्टींतलो शिगमो आनी शिंयान कुडकुडत आयिल्ले मनीस जातीक आतां शीं गेलें, शीत गमय म्हणून

शिगमो मनोवपाक तयार करून शबय शबय म्हणत नाचूंक लावपी तो हो वसंतूच.

मार्च म्हयन्यांत खंयीय नदर मारात, आमकां दिसतलीं तीं फुलांच फुलां. तरांतरांच्या फुलांचें संमेलनूच हे धर्तरेर भरता. फुलांचे आकार, फुलांचे रंग, फुलांचो गंध तरी कितल्या म्हूण प्रकाराचे! प्रत्येक फुलांचो रंग नियाळचो, तांचे आकार पळोवचे, जमता जाल्यार तांचो गंध आपल्या शरिरात भितर मेरेन ओडून घेवंचो. हाका लागून दोळ्यांक, मनाक आनी कानाकूय एक वेगळीच धुंदी चडटा. अशें धुंद जावन जियेवंक शिकयता तो हो वसंत रूतू.

आमचो मनीस हो वेव्हारी. ताका हांव जी गजाल सांगतां त्यो बेकारभासोय दिसूं येतात. पोटा पाणयांच्या हुसक्या मुखार कोणें सांगलां हें सगळें? वेळ कोणाक आसा? पूण तांचेय पासत सैमान वेवस्ता केल्या. आंबे फुल्ल्यात, काजू फुल्ल्यात. तांकाय फळ धरता तें ह्याच वगतार. मागीर हो मनीस वर्सूयभर पोटा पाणयाची वेवस्ता करूंक वो भाटकार, धनयाच्या भंयान मान सकयल घालून वावरत आसता तो मान वयर करून वावुरता. तो पळयता खंयचो आंबो फुल्ला आनी ताका कण धरल्यात. ताची नदर सोदीत आसता खंयची काज चंवरल्या आनी आपल्याक कितलें उत्पन्न मेळटलें! आनी हें करतां करतां तोय मनीस हेरूय रूखांवेलो फुलोत्सव पळयता. ताचें मन शिगमो खेळूंक लागता.

म्हाका भुरगेपणार कांयच कळनाशिल्लें तरी भावताले ते फुलांचे रंग. म्हजे आईक फुलांचें पिशें आशिल्लें. तिका माथेंभर फुलां माळूंक आवडटालीं. आपूणय माळटाली आनी हेरांकूय फुलांच्यो फातयो करून दिताली. घरा भोंवतणी पोरसांत ती फुलझाडां रोयताली. तातूंत आबोल्यो आसताल्यो. रतन आबोलीं तीं रगतावरीं तांबडींच आसतालीं. शेंदुरीं!

बाकीचीं हळदुवसार आसतालीं. म्हाका रतन आबोलीं हेर रंगाच्या आबोल्यां परस चड आवडटालीं. शेंवतींय खूब आसतालीं. हळदुवीं आनी जांबळा कोराचीं. बुतांव आसताले. सदाफुली आसताल्यो! घीस, बोकोडयो बी घालून आई शेंवत्यांची, आबोल्यांची फाती घालताली. जमनीर बसून, एक पांय सोडून त्या पांयाच्या आंगठ्याक केळम्याच्या गब्याचो दोर घुस्पावन त्या दोरार ती हीं फुलां फिशालकायेन, तल्लीन जावन गुंथताली. ते वेळार तिचें मनूय भोवतेक गायतालें जावंक जाय. कारण ती तो वावर घेवन बसतना अंतर्मूख जाल्ली दिसताली.

ह्या म्हयन्याक परिक्षा सुरू जाल्ली आसताली. शिगम्याच्या काळारूच ह्यो परिक्षाय कित्याक आसतात काय? हो प्रस्न म्हाका त्याय काळार पडटालो आनी आतांय पडटा. मन प्रसन्न उरून जर सैमशिगमो मनोवंक जाय जाल्यार मनाचेर तशें कसलेंच दडपण आसूंक फावनां. परिक्षांचें लेगीत. पूण शिगम्याचें वाजप आनी वातावरण अभ्यास करपाकूय म्हूण उमेद हाडटालें. ताश्यार पडिल्ली बडी आनी धोलार बशिल्ली तोणी ही त्या धोल-ताश्याचे ताणिल्ले कातडीचेरूच पडनाशिल्ली तर त्या आवाजान म्हजें तनूच न्हय तर मन लेगीत थिरकतालें. होच आवाज मनाक दिताली ती उर्बा. अभ्यास करतना वो परिक्षा दितना ह्या आवाजाचें डिस्टर्बन्स केन्नाच जालें ना. उरफाटें अभ्यासा खातीर हो शिगम्या बोवाळ तसो पुरकच दिसतालो म्हाका.

मागीर शाळेक येतना वतना नदर भिरभिरप. खंयचे चुन्नीक फुलां फुल्ल्यांत, खंयचे चुन्नीक चुन्नां लागल्यांत, काण्णीचीं तीं फुलां. काण्णां लागूंक कितलो काळ उरला? जांबळीणी फुल्ल्यात. जांबळां केन्ना लागतलीं? हे सगळे प्रस्न फळांचे आशिल्ले तरी फुलांच्या हिसबान तोखेवप जातालें.

सर्वसामान्यानी लेगीत फुलांक तोखेवंचें म्हूण सैमान कसल्या कसल्या म्हूण फळाची आस लायल्या मनशाक!

मार्च म्हयनो लागलो काय म्हजें शरीर आसुसता तें रंगाक. भुरगेपणार आमचे गांवांत शिगमो नासतालो. म्हणटकच गुलालान रंगपाचो प्रसंग येच नाशिल्लो. म्हजो जल्म आगशी जाल्लो आसलो तरी म्हज्या बापायचो, पापाचो गांव कुंकळयां. ताका दर शिगम्याक आपल्या गांवची ओड लागताली. मागीर तो म्हाड्डोळच्या शिगम्याक धांवतालो. केन्ना केन्नाय आमकां भुरग्यांकूय व्हरतालो. थंयचे ते रंगात रंगून, धोल-ताश्यांच्या आवाजांत नाचपी लोक पळोवन म्हजींय पावलां ताल धरतालीं. म्हाकाय केन्ना कोणें असोय रंगोवचो अशें दिसतालें.

आगशी कार्नावलाक रंगोवप जातालें. ह्याच दिसानी कार्नवाल फुलतालो. मुज्ग वाजतालें. खेळ गांवा गांवांनी येताले. कोकात्यो एकमेकार मारताले. तांतली नीळ आंगार पडटाली. ती नीळ आंग रंगयताली पूण मन रंगोवंक असमर्थ थारताली.

मागीर हांव पणजे पावलों शिकपा खातीर. पणजे होळयेचें वातावरण आसतालें. रंगपंचमीक रंगपाचो कार्यक्रम आसतालो. दर वर्सा हांव म्हज्या वेगवेगळ्या संवगड्यां वांगडा रंगलां. तनान आनी मनानूय. जे कोण हे वेळार रंग लावं नाका म्हूण सांगत पयस धांवतात तांची म्हाका तिडकच मारता. आरे पापयानो वर्सांतल्यान एकदीस तरी निदान आंग रंगोवन घेयात. मनान रंगप काय तुमच्या नशिबांत ना. तनान रंगून तरी वचात थोडो वेळ मागीर उडयात जाय जाल्यार धुवन!

आतां फाटलीं चार-पांच वर्सां हांवें तनाक रंग लावप सोडला. फक्त मनान रंगतां. रंगांत भेसळ आयल्या आनी म्हज्या धव्या फुल्ल खाडांत, केंसांत हो तरांतरांचो रंग वचून बसलो म्हणटकच तो धुंवन काडपाक दोन

म्हयने लागतात. म्हजें रंगेलपण मागीर लोकांक खटकता. तांचें आपलें बरें आसता. एक दीस रंगप आनी सगळें मागीर धुवन उडोवप आनी आपूण तांतलो न्हयच अशें दाखोवप. म्हजे बाबतींत तें घडना. शिवाय भेसळ रंगाक लागून ॲलर्जीय जाता. देखून हो तनाचो रंग टाळपूच बरो.

मार्च म्हयन्यांत येता तो आंतरराष्ट्रीय महिला दीस. शिगम्याच्या दिसांनी, होळयेच्या दिसांनीच हो दीस येता. सैम फुलून येता वसंतात तश्यो बायलो वर्सूयभर वसंतूच जावन रावतात देखून तांच्या मानाक हो मार्च आसूं येता. बायल मनशेंत मंथरा, कैकया आसली तरी राधाय चड प्रमाणांत आसता देखून दर मार्च म्हयनो हांव बिम्बाचो मार्च अंक महिला विशेशांक म्हूण काडटां. म्हजे खातीर तोय एक उत्सवूच आसता.

केन्ना केन्नाय म्हज्या मनांत कांय खोडकर तिरसुवाद विचार येतात. खरें म्हळ्यार तें जीवनांतलें सत्य. पूण लोक समजून घेना आसतना म्हज्यांतलो हो निराशावाद म्हणत म्हूण भंय दिसता. हो मर्णाचे कसले विचार करता काय! थुमेकाल! अशें म्हणत म्हूण दिसता. पूण खरें सांगूं? म्हाका मरण येता जाल्यार तें मार्च म्हयन्यांतूच येवंचें आनी होळये पुनवेंक तें येवचें अशें म्हाका दिसता.

हें मरणाचें चित्र हांवें रंगयलां तें अशें! म्हजो बेडरूम असो आसा की तो धड पूर्वेक ना आनी धड अस्तंतेक ना. म्हज्या बेडरूमाक आसा व्हडलें जनेल. खरें म्हळ्यार थंय वणतूच ना. फक्त जनेलाची फ्रेम आसा म्हूण तें जनेल. हांव तकली पूर्वेक आनी दोळे अस्तंतेक लावन म्हज्या बेडार रातचो पडटां. न्हीद लागसर म्हाका ह्या जनेलांतल्यान मळबांतलो उत्सव, रूखांवेले काजूले आनी रूखांची रातची स्तब्धताय पळोवंक मेळटा. खरो उत्सव पळोवंक मेळटा तो पुनवे राती. रातभर चान्नें शिंपडायत फांतोडेर चंद्र पावता पशिचमेक. थंयच्यान तो आपलें फांतोडेवेलें चान्नें म्हज्या

बेडरूमांत सोडटा. पुराय बेडरूम ह्या चान्न्याक लागून प्रकाशीत जाल्लो आसता. हाका कितें म्हणप, अस्तंमपी चंद्राचें चान्नें ?

सूर्याचें आपलें बरें आसता. तो खंयच्यान उदेता हें खबर आशिल्ल्यान ताचे खातीर उदेन्त आसता आनी खंय अस्तमपाचें हें ताका खबर आशिल्ल्यान ताका लाबलां अस्तमतेचें अढळपद. पूण चंद्र बाबडो खंयीय उदेता. तो खंयीय अस्तमता. ताका अढळपद ना देखून तो शीतल आसूंक जाय. सूर्याक उदेन्त आनी अस्तम अशीं अढळपदां लाबल्यांत. देखून तो जळयता. म्हाका सकाळीं आपलीं किर्णां लावन तोच उठयता हेंय तितलेंच खरें!

तर हांव कितें सांगतालों? मरणाची काय पुनवेची खबर? दोनांचीय!

हांव म्हज्या बेडाचेर रातचो जेन्ना न्हिदतां तेन्ना दर पुनवेक आनी पुनवेच्या आसपासच्या रातीनी चंद्र चान्नें म्हजे ते कुडींत सोडटा. म्हजेर पुराय चान्नें घालता. तेच वेळार भायर तरांतरांचीं शेवणींय रूखांरूखांचेर जागीं जाल्लीं आसतात. तीं गायतात तरी कितल्या सुरानी. कोण शेनाय वाजयता, कोण टीपरी आनी कोण आनी कितें! आतां ह्या म्हयन्यांत तर सगळ्यांच्या वयर ती कोगूळ गायत आसता! अश्या ह्या संगीतांत आंब्याची, आंबाड्याची सावळी म्हज्या रूमांत पडटा. पूण म्हज्या तोंडार मात झिरपता तें चान्नें. तेन्ना जेन्ना म्हाका मरण येतलें तेन्ना तें अशेंच तोंडार चान्नें पडिल्लें आसतना, भायर सवण्यांचें संगीत चलतना येवचें अशें म्हाका दिसता. म्हज्या मनाची, तनाची ही वसंतोत्सवाची आस्त बी न्हय मू? ना तर कित्याक येवचे हे विचार म्हज्या मनांत, जेन्ना भायर वसंत फुल्ला आसतना?



# काणी एका बायपासाची!

**बायपासा** मेरेन प्रकरण पावत अशें हांवें धरूंक नाशिल्लें.

तशीं फाटलीं बरींच वर्सां बायपासान म्हजो जीव खाल्लो.

आमच्या घराफुडल्या भाटांतल्यान बायपास वता म्हणपाची गजाल सुरू जाल्ली. तो आमच्या घरा मुखावयल्यान वता काय घरा वयल्यान हाची धुगदूग आशिल्ली.

हाका लागून म्हाका घराचें रिनोवेशन करतलो म्हळ्यार मेळनाशिल्लें.

शेवटाक जमीन थारली आनी बायपासूय पुर्णायेक आयलो आनी मार्गाक लागलो.

मागीर आमचो रमेश वेळुस्कार गोवापुरीचो संपादक जालो. गोवापुरी म्हळ्यार आय एम बी (इन्स्टीटयूट मिनेझीस ब्रागांझा)चें मुखपत्र कशें!

पयलीं तो बरोच वर्सां बी आय एम बी चो म्हळ्यार बिम्ब चो संपादक आशिल्लो. आतां इम्बचो जाल्लो. म्हाकाय बरें दिसलें.

गोवापुरी खातीर रमेशान म्हजेकडेन कथा मागली.

कथा मागपा फाटलीं कारणां कितें तें म्हाका कळूंक ना. हांवें जीं सोदून काडिल्लीं तीं अशीं :

गोंयांत मुळांतूच कथाकार कमी.

तांतले कांय ज्येश्ठ हे पदवेक वचून बशिल्ले. देखीक भाई मावजो,

शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, एन्. शिवदास, महाबळेश्वर सैल, पुंडलीक नायक बी!

हातुंतल्या पुंडलीक नायकान साहित्यांतल्यान आंग काडून घेतलें. भाई मावज्याक हेरांच्यो कथा मोलावपाच्या व्यापाक लागून वेळूच उरलो ना. शिवदास प्रयत्न करता. पूण ताका जीवंत विशय लागतात. हालींच सुनापरान्तात (चवथ अंक) ताणें जिवी तट्‌तट्टीत कथा बरयल्या. तिचो इंग्लीश अणकार सद्या साबिना मार्टीन्स करता.

महाबळेश्वर सैल आपले तांकी प्रमाणे कथा बरयता आनी बरयली काय पुरस्कार घेता.

शीला आनी मीना हांचेर कांय उलोवपाचें नाच. दोगांनीय कथेची भानगडूच सोडिल्ली. दोगांय अदीं मदीं कितेंय वाचतात तेन्ना तांतली कथा खंयची आनी निबंद खंयचो तें तांकां कळना.

म्हणटकच कथा घेवची कोणाकडच्यान हो प्रस्न रमेशाक पडलो.

जेन्ना मागता तेन्ना दिवया म्हळें. विशय तकलेंत आशिल्लोच बायपासाचो. बरी कथा बरयली. 'बायपास' म्हूण शिर्शक दिलें. वचून मावज्याक दाखयतलों म्हळें. पूण रमेशाक रावपाक वेळ नाशिल्लो. ताका संपादकीय सोपस्कार पुराय करून रायबरेली पळपाचें आशिल्लें.

म्हजी 'बायपास' ही कथा सुनापरान्तात छापून आयली. बऱ्याच लोकांनी वाचली. तोखणायेचे फोनार फोन. जयंती नायक, माया खरंगटे हाणीं तर चक्क फोन करून म्हळें, ''दिलीप आमकां हुसको लागिल्लो. आमच्या फाटल्यान कोण काय म्हूण! कोंकणी कथे मळार सामको काळोख दिसतालो रे! आतां भंय ना.'' जयंती उलयतना रडपाकडेन पाविल्लें.

प्रकाश पर्येकाराचें तर हड्‌डें भरून आयिल्लें. ''बेस्ट, बेस्ट म्हणचे

बेस्ट. म्हजे पयलीं जर तुजी ही कथा दिल्ली पाविल्ली जाल्यार म्हज्या आदीं तुकांच कथा पुरस्कार लाबपाचो. गूड. असोच बरयत राव.'' म्हजी फाट थापटीत प्रकाश पर्येकार गेलो.

हांव तर वाऱ्यार उबतालों. बायपास! द ग्रेट! म्हाका खंयचे खंय पावयतलो. कथा पुरस्कार मेळटलो. तिचे सगळ्या भासांनी अणकार जातले. हांवें म्हजीच फाट थापटिली. पूण तशें करतना म्हाका बेटेंच फाटींत दुखिल्लेवरीं दिसलें. गॅस आसतलो वो मसल पेन! हांवें आडनदर केली.

पूण पयर मंगळुराक वतना मात ही दुख जाणवली.

भटकल, कुंदापुरचो रस्तो खंयचो आनी शेतां खंयचीं हें न कळपा इतली रस्त्याची वाट लागिल्ली. अदमासान शेताक रस्तो आनी रस्त्याक शेत मानून हांव कमीतकमी फोंडांतल्यान गाडी काडटालों. तेन्नाच भुजांनी एक जडसाणशी जाणवली.

कामिनीक सांगलें. ते बराबर तें फटक करून उसळ्ळें. ''हें सांगप तुजी कितल्यावी खेप? तपासून घे म्हळ्यार आयकना. कितेंय जातकच मागीर बस रडत.''

तेय अवस्तेंत म्हाका हासूंक आयलें. ''आगो म्हाका कितेंय जालें जाल्यार हांव शांत न्हिदिल्लों आसतलों! बसून रडटलें तें तूं!''

''अती जालें. तुजेर आतां सणसणीत पडटलें. आमी रावया आज उडपीक. फाल्यां या मंगळुराक.''

म्हाकाय ताची कल्पना आवडली. उडपी कित्याक? मनिपाल रावूं येता. म्हजो थंय मित्र आसा. हांवें डॉ. शिरिष बोरकाराक फोन मारलो. म्हणूंक लागलो, हांव आसां पूण म्हाका ऑपरेशनां आसात. फाल्यां तपासतां तुकां.





डॉ. शिरिष बोरकार हो गोंयकार तरनाटो. पयलीं मुंबय डॉ. मांडकेचो सहकारी आशिल्लो. मागीर अमेरिकेक गेलो. पूण थंय दुडू मेळटात पूण आपल्या लोकांची सेवा करूंक मेळना म्हूण भारतांत आयलो. हिन्दूजांत रावलो. ताची बायल डॉ. अनुपमा कॅन्सर स्पेशलीस्ट. तिका आनी ताका कस्तुरबा हॉस्पिटलान उबारून हाडिल्लो.

म्हळें ही आयडिया बरी आसा. तपासून घेवया! म्हणटकच भंय वतलो. कामिनीचोय एक्झीक्युटीव्ह चेकप करून घेवया.

म्हजो पुराय चेकप जालो. कामिनीचोय जालो. दोगांचोय रिपोर्ट नॉर्मल. पूण म्हजो स्ट्रेस टेस्ट निमाणो दवरिल्लो. इसीजी म्हजो नॉर्मल आसलो. पूण स्ट्रेस टेस्टा खातीर ट्रॅड मीलाचेर धावपाक लागलों तेन्ना मात स व्या मिणटाक धापेलों.

दर दिसा सकाळीं स किलो मिटर चलपी हांव. आतां कितें जालें? धा मिनटां तरी चलूंक जाय. पूण मनाची तयारी नाशिल्ली.

म्हाका डॉ. पद्मकुमारा कडेन हाडलो. ताणें रिपोर्ट पळयलो. सिरियस जालो. डॉ. शिरिष बोरकाराक आपयलो. तो आमकां डॉ. पद्मकुमाराकडेन सोडून गेल्लो.

दोगानीय रिपोर्ट पळोवन म्हाकां सांगलें, म्हाका हे आदीं ॲटक येवन गेला.

हांव हासलों. ॲटक येवन गेला जाल्यार म्हाका कशें कळ्ळें ना?

हांवें म्हजी केस हिस्टरी तांकां सांगली. जेन्ना म्हजे तकलेची सर्जरी जाल्ली तेन्ना ती करतना म्हाका क्लिनिकली डेड थारायल्लें खंय! तोच हो ॲटक खंय! आसूं येता! दिलीप बोरकाराच्या बाबतींत कितेंय घडूं येता.

आतां मुखार कितें? तांचें मशीन सारकें उलयतालें. एन्जिओ ग्राफी

केल्या उप्रांतच सत्य उक्ताडार येतलें. फाल्यां करूया म्हळें आनी आमी मंगळुराक गेलीं.

दुसरे दिसा आमचीं कामां सोपोवन मनिपाल परतलीं. म्हाका ॲडमीट केलो. दुसरे दिसा एन्जिओग्राफी जाली. म्हाका रिपोर्ट दाखयलो. म्हजें काळीज हांव कंप्युटरार पळयतालों कशें धकधक करता तें. पूण एक रस्तवाहिनी पुरायेन ब्लॉक. शंबर टक्के. दुसरे वाहिनींत दोन ब्लॉक.. रक्त वाट मेळटा ते वटेन वचूंक सोदतालें.

'येवजिल्लें उंदीर मेळटलो म्हूण, पूण हाताक लागलो पर्वत' दोतोरानी म्हळें. दोगूय चिंताग्रस्त जाल्ले.

करप कितें आतां? हाय रिस्क. निर्णय हांवें घेवपाचो. सेकंड ओपिनियन घेवपाचो? पूण तितलो वेळ ना. निर्णय घेतलो. करूया सर्जरी. तयारी सुरू जाली. पूण सुरी चलोवचे पयलीं नात्यांतल्या क्लोज मनशाची मान्यताय जाय आशिल्ली. कामिनी काळजाक क्लोज आशिल्लें. पूण मान्यताय दिवपाचो अधिकार ना. अधिकार आशिल्ले गोंया आशिल्ले.

भावाल्या चल्याक, रविन्द्राक आपयलो. ताणें सही केली.

मागीर ते भोग. संपूर्ण आंग तासप आनी जण एकल्यान येवन शरिराचें जाय तें करून वचप. उपरांत ओटीत व्हरप. नंतरचे तीन दीस संवेदने भायले आनी फुडले तीन दीस अज्ञातवासांतले. फक्त वेगवेगळे आवाज आनी नर्सींचें कडकड करून, लातांत फातर घालून तें हालोवन आवाज काडिल्लेवरी कानार सादपी कन्नड संभाशण.

जालों एकदांचो बरो. कामिनीच्या तोंडार चान्नें खेळ्ळें. चार वरांची सर्जरी. सात वरां घेतलीं. म्हजें रक्तच गोठेना. म्हणटकच सगळी धांवपळ. तीन वरां खटपट करून शेवटाक शिंवलो. दोतोरांक घाम काडलो.

तसोच तो दिलीप बोरकार. लोकांक पिडपाक जल्माक आयला.

शीलाचो फोन मुंबयच्यान. पयलो फोन जो घेवंक मेळिल्लो.

“दिलीप बायपास केलें खंय?”

नक्कीच हें म्हजे बायपास कथेचेर उलयता. सर्जरी विशीं कोणाकूच वास लावंक हांवें दिवंक नाशिल्लो. हांव म्हजीं सुखां वाऱ्यार सोडटां. दुख्खां, अडचणी म्हज्याच काळजाच्या कुरकुटांत दवरतां. तेच एके बाबतींत हांव सुवार्थी.

“हांव तुजे कथेचेर उलयना. वाचल्या हांवें ती! तुजी बायपास सर्जरी जाल्या म्हूण कळ्ळ्या. खरी गजाल?”

“तुका कोणे सांगलें?”

“अनान फोन केल्लो.”

“अनाक कोणें सांगलें?”

“म्हाका खबर ना. पूण खरी गजाल?”

“तें अनाक विचार.”

“दिलीप, तूं म्हाका अशें समजूं नाका. बारीक बडी घेतलें चिपचिपीत पांय फोडटलें. ”

“नाका सायबिणी. पांयाची शीर काडून काळजाक जोडल्या. काळीज चलपाक.”

“आवय गेल्ल्याक तुवें जिवाची वाट लायल्या. सांबाळ पापया.”

हांवें फोन दवरलो.

मागीर फोनार फोन. चार दीस फोनूच बंद उडयलो. अशी ही काणी एका बायपासाची!



# संगीताची जुगलबंदी

**म्हजो** एक मित्र आसा. तशे मित्र हे खूब आसात म्हजे. तेन्ना एक मित्र आसा म्हणटकच कोणाकूय दिसत हाका एकूच मित्र काय म्हूण! मित्र ही म्हजे खातीर संकल्पना वेगळी. ते संकल्पने प्रमाण जर हांव चलूंक गेलों जाल्यार म्हाका एकूय मित्र असो उरचो ना. हांगा मित्र म्हळ्यार संवकळीचो. वयलेवयर मेळपी वो निदान फोन करपी असलो.

पूण एक मित्र आसा अशें मुद्दम म्हणपाचें कारण म्हळ्यार हाचेकडेन म्हजें भावनीक, कुटुंबीक संबंद आसात. ताची बायल म्हाका भाव मानता आनी ताच्या भुरग्यांचीं लग्नां जालीं तरी तीं भुरगीं म्हाका अजुनय मामा म्हणटात.

तर ह्या मित्राक हालींच स्लीप डिस्क जाली. स्लीप डिस्क अशें तो म्हणटा. पूण कमराक सणसण मारतात हें मात खरें. ताका ट्रॅक्शन घालून बी सात-आठ दीस दवरिल्लो. आतां मातशें बरें दिसता म्हणटालो. पूण ताका हुसको आतां परस फुडाराचो. हें भेंड अशें मोडलें जाल्यार सोंपलों मरे हांव! अशें म्हूण पिरंगता.

हाणें आपल्या ऐन जुवानीत ह्या भेंडाचो खूब वापर केला. पेशयान शिक्षक. सामाजीक वावरांतूय आपली हजेरी लावपी. वाचनांतूय गोडी. म्हणचे एक सर्वसामान्य, नॉर्मल जाका स्मूथ जीवन जगपी मनीस म्हणू

येता असो.

ताका कसलोच पातसो ना. आयली आंगार घेतली शिंगार म्हणत कितल्याच जाणांक शिंगागार घेवन मेकळो जाला. दर सांजचे एकदोन पेग रेग्यूलर जाय. बायलूय मायेस्त. मोगान लग्न जाला. भुरगींय सगळीं वेवस्तीत वाडल्यांत. म्हणटकच आदर्श जीवन जगून आयिल्लो मनीस!

ताका हें दुखणें जालें आनी तेन्ना तो थतरवितर जालो. नातरांकार मनीस हो. पूण आपल्याकूय असल्यो वृध्दत्वाकाळार व्याधी जावं येता हें मस्त जीवन सारतना विसरूनच गेल्लो. म्हणूंक लागलो, म्हज्याच वांट्याक कित्याक रे बाबा हें?

आयकून म्हाका हासूंक आयलें. आपल्याच वांट्याक म्हळ्यार कितें? हो जीवनाचो वेगळावं नज असो वांटो. सगळ्यांचे जिणेंत येताच. कोणाक पयलीं, कोणाक उसरां! जीवन पध्दत कशी आसता ताचेर हें सगळें निंबून आसता. पूण वांट्याक मात सगळ्यांच्या येताच. जाका पयलेच खेप जाता ताका दिसता हें आपल्याकूच जालां. बाकीचे सगळे लोक सुखान आसात. वेदना, दुख्खां विरयत. पूण ते वेळार हाणें विचार केलो ना, गोंयांत आनी संवसारारूय दिसपट्टीं नवीं नवीं हॉस्पिटलां तयार जातात तीं फकत आपल्याच खातीर न्हय. मागणी आसा म्हणटकच सप्लाय जाता हो अर्थशास्त्रांतलो म्हत्वाचो नेम. पूण प्रत्येकाचें दुखणें हें फकत ताचेंच आसता. ताकाच तें भोगपाचें आसता आनी देखूनच ताका दिसता, आपल्याच्याच वांट्याक काय देवा हें सगळें?

नामनेचो टेनिसपटू, विम्बल्डन जैतिवंत आर्थर अॅश कॅन्सराच्या दुयेंसान हांतुणार पडलो. खबर आयकून संवसारभरचे ताचे चाहते चुरचुरले. ताचेर ताणीं भुजवणेच्या पत्रांचो पावस घालो. तातूंत कांय पत्रां आशिल्लीं, ''देवान तुकाच रे बाबा ह्या दुयेंसा खातीर वेंचून काडलो?''

त्या प्रस्नांचेर भाश्य करतना आर्थरान जाप दिल्ली–

संवसारांत पाच अब्ज भुरगीं टेनिस खेळपाक प्रारंभ करतात.

मुखार पाच कोटी भुरगीं टेनिस खेळूंक शिकतात.

पाच लाख खेळगडे वेवसायीक खेळगडे जातात.

५० हजार भुरगीं सर्तींत देंवतात तातुंतलीं पांच हजार ग्रँडस्लॅम मेरेन पावतात.

तातुंतलीं ५० विम्बल्डन मेरेन वतात. चार सेमी फायनल मेरेन पावतात आनी दोन फायनली मेरेन!

हांव जेन्ना म्हजो 'विम्बल्डन' चषक हातांत घेवन उबो आशिल्लों तेन्ना हांवें देवाक केन्नाच विचारलें ना, देवा हें यश म्हाकाच रे कित्याक? देखून आयज हें दुयेंस म्हज्या वांट्याक आयलां तेन्नाय हांव देवाक प्रस्न करिना, हें म्हज्याच वांट्याक शें कित्याक?

मनीस हो ह्या ब्रह्मांडाचो घटक. ब्रह्मांड हें गतीशील. तें आपले अशे एके गतीन निरंतर चलत आसा आनी हे गतीक लागून तातूंत सातत्यान बदल घडत आसतात. मनीसूय त्या बदलांतल्यान सुटना. ताच्याय भितर सातत्यान बदल घडटा आनी ह्या बदलाक लागून सृश्टींतल्या सगळ्या चराचरांत जीं स्थित्यंतरां घडटात तातूंत मनीस आपल्याक कुशीन काडूंक शकना. भुरगेंपण, तरणेंपण, वृध्दत्व हीं सगळीं स्थित्यंतरां. मनशाचो देह ह्या स्थित्यंतरांतल्यान वता. हो देह योग्य संतुलनांत आसता तेन्ना सुखाच्यो संवेदना दिता. संतुलन इबाडटा तेन्ना वेदनेच्यो संवेदना दिता. वेदना ही एक देहाची भास, संतुलन इबाडटा हाचो संदेश दिवपी. ती भास योग्य वेळार समजलीना तर मागीर शरीर आरड मारता. तेन्ना सुरु जातात मनशाच्यो तक्रारी!

खंयच्याच सजीवाक चुकनात ह्यो वेदना. पूण लक्ष दिनांत हेरांच्या

वेदनेकडेन. कित्याक तांची भास, तांच्यो भावना आमकां कळनात. कळटा ती मनशाचीच भास. कित्याक दरेक मनीस केन्ना ना केन्ना ह्या स्थित्यंतरांतल्यान गेल्लो आसता. वचपाचो आसता. दरेकान हो अणभव घेतिल्ल्यान ताकाच ती भास कळटा. देखून मनीसूच मनशालागीं पिरपिरता.

कांय लेखिका आसात. त्योय ह्या स्थित्यंतरांतल्यान वतात. पूण केन्नाच तोंडार हांसो ना. मेळिल्ले फावट पिरपीर, म्हाका हांगा दुखता, थंय दुखता. तांकांय मेळिल्ले आसात खुबशे पुरस्कार. पूण तक्रार मात दुखण्याची. भोवतेक लेखक सगळे पुरस्कार मेळूनय केन्नाच आपल्या दुख्खांक गोड मानूंक पावच नात.

तरीय दामोदर मावजो, सुरेश आमोणकार असलेय साहित्यिक आसात. भिरांकूळ स्थित्यंतरांतल्यान गेल्यात. पूण तोंडावेलो हांसो केन्नाच वचूंक दिलोना. ताणीं सांगले बगर कोणाकूच कळचें ना,हांकां केन्नातरी भिरांकूळ दुयेंसान ग्राशिल्लें. जीवन कितलें सुंदर आसता हें ह्या लोकांक पळयतकच म्हाका कळटा आनी हांव त्या जीवनाचो आस्वाद घेतां. तांचे भितर एक आनी भायर एक आसूं येता! शेवटी वेदनाच त्यो. तरी पूण भायर कोणाकूच पत्तो लागूंक दिनांत. पुरस्कार ज्या नेटान घेतात त्याच नेटान हेवूय पुरस्कार स्वीकारपाची तांची ही वृत्ती म्हजे सारकील्यांक वेगळीच उमेद दिता.

हांवूय गेलां ह्या स्थित्यंतरांतल्यान. जशें जशें वृध्दत्व येता तशें तशें शरिरांतलो दरेक अवयव म्हजेकडेन संवाद सादतलोच. जेन्ना तो अवयव वेदनेच्या माध्यमांतल्यान उलोवंक लागतलो तेन्नाच म्हाका कळूंक पावतलें, आनी म्हणटलों आरेच्या म्हाका खबरूच नाशिल्लें मरे इतलो काळ म्हज्या शरिरांत हे अवयव आसा म्हूण!

अवयवांच्या वेदनेची ही भास आमकां होलमता देखूनच आमी

ते भाशेक भितात. म्हज्या सारख्या कांय जाणांक हेरांचीय भास कळटा. रूखांची जाल्ली कापाकापी, तांची आरड थेट काळजा मेरेन पावता. तरण्या दोंगरांक घाल्ले सुरींग कानार पडलेनांत तरी मातयेचें रूदन होलमल्या बगर रावना. तांची ही वेदनेची भास हांव जेन्ना आयकतां तेन्ना म्हजेय वेदनेची भास उलोवंक लागता. तेन्ना कळटा ही फकत भास. त्यो वेदना न्हयच.

हय हे जिणेंत वेदना, दुख्ख म्हळ्यार कांयच ना. आसात त्यो आमी करुन घेतिल्ल्यो समजुती! जेन्ना म्हज्यांतले तेच भाशेन वेगळेच तरेची संवेदना दिली तिका हांवें सूख मानलें. तेच भाशेन आपली भास काळा प्रमाणे बदल्ली तेन्ना हांवें मानून घेतलें तें दुख्ख म्हूण! भास तीच . म्हजें समजून घेवप वेगळें. ह्या अर्थाच्या घुस्पागोंदळांत हांव केन्ना केन्नाय म्हजें जियेवप शेणोवन बसतां. म्हजे वांगडा हेरांकूय पिडटां.

आतां मात हांवें ती भास सारकी शिकून घेतल्या.धोपरांतलें कटकट जावप आनी कमरेंतल्या तंतुवाद्याचे सूर हें सगळें जीवन संगीत. हें सागीत जर आळोवंक आयलें जाल्यार मागीर पुराय देहांतल्या संगीताची जुगलबंदी जिणेचो अर्थ उसयत रावता. दरेक गजाल खोस दिता असल्या आगळ्या वेगळ्या पुरस्कारांची!



# ताई, एक लव्हेबल व्यक्ती!

**ताईक** ७ तारखेक ७५ वर्सां पुराय जातात. ताईक पळयल्यार तें खरेंच दिसना. ७५ वर्सां सरिल्ली व्यक्ती कशी आसूंक जाय? कपलाक आटयो घाल्ली, थकिल्ली, दुर्मुखलेल्या चेहऱ्याची. पूण ताई तर सदांच हांसतमूख. केन्ना पळय, तिका चिंता ना, ना हुस्को. खूब कमी बायलांमदीं आसता हो गूण.

ताई म्हळ्यार शशिकला काकोडकार. कोण तिका शशिकलाताई म्हणटात, कोण मिसेस काकोडकार म्हणटात. पूण फाटलीं तिशेक वर्सां हांव तिका ताईच म्हणटां. ताई म्हणपासारकी अजूनय म्हज्या जिवितांत ताई सोडल्यार आनीक दुसरी व्यक्ती कोण आयलीना. देखूनच जेन्ना जेन्ना ताईकडेन हांव उलयलां तेन्ना तें उलोवप अशें सहजतायेन जाता. ताईकडेन उलयल्ल्यावरी. आतांय हें बरोवप तशेंच, सहज, ताईचेर बरोवंचें तशें.

आयुश्यांत खूब बरोवप जालें. आतां खूब म्हळ्यार म्हजें आयुश्य खूऽब अशें न्हय. ताईपरस हांव तेवीस वर्सांनी ल्हान. तितलींच वर्सां म्हजीं बरोवपांत सरली. पूण ह्या तेवीस वर्सांत एक दिगंबर कामत सोडल्यार हांवें खंयच्याच राजकारण्याचेर बरोवंक पेन घेतलेंना. तांचें

तासपाक, खिल्ली उडोवपाक लेखणी वापरल्या. पूण तांचेविशींच्यो भावना, आपलेंपण उक्तावपी एक लेगीत वळ केन्ना बरोवन जालीना. बरोवंची अशी दिसलीच ना.

कुपां झडपाक खंय जमनीकडेन आर्द्रता आसूंक जाय. राजकारणी हे राजकारणी आसतात हें जालेंच. पूण तांचे भितर एक बरो मनिसूय आसता. राजकारण्यांची तुस्त गावपी खूबशे सुवार्थी लोक आसात. पूण म्हज्या सारख्यांक तर कोणाकडल्यान कांय घेवपाचें ना, कांय दिवपाचें ना. तरी मनासावन दिसता, ह्या बऱ्या लोकांविशीं जें कितें मनसावन दिसता तें बरोवंक जाय. तांचेमेरेन तें पावंक जाय.

ताई म्हजी आदर्श, राजकीय फुडारी बी अशें काय न्हय. ताईचो हांव एक राजकीय, भाशीक विरोधक आनी एक साहित्यिक मित्र. खूब व्हडलो, न समजुपा सारको विरोधाभास हो.

जेन्ना हांव विद्यार्थी चळवळींत आशिल्लों तेन्ना ताई गोंयची मुखेलमंत्री. विद्यार्थी चळवळ म्हळ्यार फकत क्रांती. क्रांती सोडल्यार आमकां दुसरें कांयच दिसनाशिल्लें. भगतसिंग, राजगुरु, विवेकानंद हे गुरू. चेराबंडा राजू, नारायण सुर्वे हे आवडीचे कवी. अशे हे विचारसरणींत राजकारणी म्हळ्यार भ्रश्टाचारी. तांकां काळीज बी म्हणटात तें ना असो कितें तरी समज त्या वेळावेलो.

विद्यार्थ्याखातीर ५०% बस सवलत मेळूंकच जाय अशी त्या वेळची आमची एकूच घोशणा. बशी फोडप, मोडतोड करप, मोर्चा काडप, अटक करुन घेवप, क्रांतीकारी भाशणां करप आनी पुलिसांकडलो मार घेवप हो आमचो दरदिसाचो कार्यक्रम. अकरा दीस आमचें हें युध्द चलिल्लें. त्या वेळार ताई म्हळ्यार कितें तें आमकां खबर ना आनी

राजकारणूय खबर ना. 'एक दो एक दो शशिकला काकोडकार को फेक दो' अश्यो घोशणा मारुन ताळो दुखोवन घेवप आनी चडूच फोडाफोड केली म्हणटकच ताईन आमकां आपोवन व्हरप, वाटाघाटी करुन प्रस्न सुटावो करुंक. मागीर आमचें शिश्टमंडळ केन्ना सचिवालयांत ना तर केन्ना पर्वरी तीन बिल्डिंगेकडल्या ताईच्या घराकडेन. ताईन बिस्कुत्यो आनी च्या दिवन आमचेकडेन उलोवणी करप.

विद्यार्थी चळवळ सामकी भारार आयिल्ली. गोंय मुक्ती उपरांत अशी चळवळूच जाली ना अशें लोक उलयताले आनी आमकां जेल चडटाले. एकदीस अशेच आमी चार पांच जाण सचिवालयाकडल्यान, भाऊसाहेबांचो पुतळो आसा थंयच्यान रस्त्यावेल्यान वता आसतना फाटल्यान कोणेंतरी आमच्या आंगार गाडी हाडली. आमी कुशीक उडी मारली. गाडी पळयल्यार ताईची. ताणें आमचेर मुद्दम गाडी घाली काय आमकां तशें दिसलें, खबर ना. आमी आशिल्ले निमताक. बोवाळ घालूंक आमकां तितलेंच निमित्त परो आशिल्लें.

'आमचेर मुखेलमंत्र्यांचो खुनी हल्लो' बी अशें कितें तरी म्हणत आमी त्या काळचे मुखेल सचिव काय विकास आयुक्त आशिल्ले. जे .सी. आल्मेदा हांगेर कागाळ घेवन गेले. जे. सी. आल्मेदा एक खरो गोंयकार. आमची अपुर्बाय करपी. ताणें आमकां समजायलें आनी ताई तशें करपी न्हय अशें सांगलें. पूण आमी तर निमताकूच राविल्ले, कितें तरी बोवाळ घालपाच्या!

जे.सी. आल्मेदान मुखेलमंत्र्यांक ही गजाल सांगली. ताईन बेगोबेग आमकां पर्वरी तांच्या घराकडेन आपयले. आमी गेले. ताईक आमी घडिल्लो प्रसंग सांगलो. तेन्ना ताईन आमचे खातीर केक आनी कॉफी

हाडूंक सांगली. तिणें म्हळें, ‘दिलीप, तुमी भुरगे म्हज्या भुरग्यांवरी. म्हाकाय तुमच्या पिरायेचीं भुरगीं आसात. एक आवय मुखेलमंत्री आनी राजकारणी जरी आसली तरी तिचे तकलेंत असो विचार चुकून लेगीत येवंचो ना.’

ताई तें जेन्ना सांगताली तेन्ना तिच्या दोळ्यांत एके आवयची माया म्हाका दिसताली. थंय ती मुखेलमंत्री नाशिल्ली आनी राजकारणीय नाशिल्ली.

विद्यार्थी चळवळी, युवा चळवळी आमच्यो चलताल्योच. म.गो.चें सरकारुय चलतालें. राजकारणाचो खेळ सुरू जाल्लो. शशिकला काकोडकरांचो भ्रश्ट सरकार उडोवंक जाय म्हूण चळवळ सुरु जाली. आमी हें भ्रश्ट सरकार उडोवपा खातीर ‘पिपल्स डेमोक्रेडीक फ्रन्ट’ म्हण एक संघटना केली. लाड, दिलखूष देसाय बी मगोंतल्यान फुटले. सरकार अल्पमतांत आयलें आनी पडलें. तेन्ना भ्रश्ट सरकार बी म्हळ्यार कितें तेंच कळनाशिल्लें. आयज जें कितें चललां तें पळयल्यार भ्रश्टचाराची आमची संकल्पना त्या वेळार वेगळीच आशिल्ली म्हणूंक जाय.

ताई म्हज्या सारख्याची दुस्मान आशिल्ली ताचें कारण ती मराठीचे वाटेन आशिल्ली हेंच. पूण तिका हे भाशेचें राजकारण साहित्यांत हाडप आवडना आशिल्लें. बाकीबाब मराठी कवी पूण आपूण कोंकणी हें जगार सांगपी. ताईक बाकिबाबांविशीं खूब आदर. बाकिबाब म्हळ्यार तिचे खातीर एक दैवत कशें. रवीन्द्रबाब कोंकणी चळवळींत सक्रीय आशिल्ले. आपल्या उलोवपांतल्यान आनी बरोवपांतल्यान ताईक रवीन्द्रबाबान जितली खेपल्या तितली दुसऱ्या खंयच्याच कोंकणी फुडाऱ्यान खेपूंक ना. पूण ताईक रवीन्द्रबाबांविशीं खूब आदर. जेन्ना जेन्ना रवीन्द्रबाबाक कसलो ना कसलो भोवमान फाव जाला तेन्ना तेन्ना ताईन आपूण जावन रवीन्द्रबाबांक

मेळून तांकां परबीं दिल्यांत, सुखाच्याच खिणाक न्हय तर रवीन्द्रबाबांचेर व्यक्तीगत जितलीं अरिश्टां आयल्यांत तेन्ना तेन्ना ताई पयलीं धावून गेल्या. हें सगळें वागप राजकारणी मनशाचें न्हय. हें वागप एका बऱ्या मनशाचें! सरस्पतीच्या उपासकाचें!

ताई १९९१च्या दरम्यान शिक्षणमंत्री आशिल्ली. म्हजी तेन्ना पांच पुस्तकां प्रकाशीत जावपाचीं आशिल्लीं. शबाना आझमी ते पासत गोंयांत येवपाची आशिल्ली. ताई शिक्षणमंत्री म्हणटकच हो योग बरो जुळून येवपाचो, जर तिणें सुवाळ्याचें अध्यक्षपद स्वीकारलें जाल्यार. ताई हे आदीं खंयच्याच  कोंकणी पुस्तकाच्या प्रकाशन सुवाळ्याक वचूंक नाशिल्ली. तातूंत हांव तर तिका खंय ना खंय पिडिल्लों. तिणें म्हज्या ह्या सुवाळ्याक येवचें अशी अपेक्षा हांवें बाळगप म्हळ्यार लेगीत पिशेपणां आशिल्लीं म्हजीं. तरी हांव ताईकडेन गेलों. ताईन म्हाका कॅबिनांत आपयलो. भितर जितले कोण आशिल्ले तितल्यांकूय भायर काडले.

हांवें म्हळें, 'ताई आसूं तांकां. म्हजी कांय हरकत ना.' कित्याक सगळे मंत्री भरिल्ले सभेंतूच जनतेचे प्रस्न सोडयताले. चारचौगांत कोणेंय याचक म्हूण येवन याचना करपांतूच तांकां धन्ययाय भोगताली.

ताईन म्हळें, 'आमचेकडेन लोक येतात ते आपली कसलीय समस्या घेवन. ताणीं ती चारचौगां मुखार मांडची अशें म्हाका दिसना. ती सुटावी करप काय ना हो आमचे मदलो प्रस्न.' ताईचें हें म्हणणें रास्त आशिल्लें. तिचे विशीं तेच पासत कोणाकूय अभिमान दिसूंक फाव.

ताईक हांवें कित्याक आयलां तें सांगलें. शबाना आनी ताई हाणीं दोगांनीय सुवाळो सोबयलो. ताई ही मराठीवादी. तिका कित्याक आपयली काय म्हूण खूब जाणांनी म्हजेर टिका केली. पूण हांवें कोणा मराठी प्रेमीक

आफोवंक नाशिल्ली हांवें आपयल्ली साहित्यप्रेमीक.

ताईचो खंयचो गूण म्हाका आवडटा? सांगूंक नज. ती एक बरी बायलमनीस. पूण सगळ्यांत तिचो व्हड गूण म्हळ्यार ती उत्कृष्ट ॲडमिनीस्ट्रेटर. गोंयच्या राजकारणांत तिचें इतलें ॲमिनीस्ट्रेशन आनीक कोणाक जमपाचें ना. राणेकडेन तें आसा, दयानंद नार्वेकाराकडेन तें आसा. पूण ताई इतलें ना.

गोंयच्या राजकारणांत खूब लोक सत्तेर आसा सर तांचे फाटल्यान भुरावळ भोंवत रावली. सत्ता गेली तशी ते सत्ताधारी नाच जाले. रासवळ मळार खंयच दिसनांत. पूण ताई सत्तेर ना. ती सत्तेर आसतना तिचे फाटल्यान फुडल्यान ते कोण आसताले तांतलो एकलोय तिचे वांगडा ना. पूण आमचे सारके तिचे वांगडा आसात. कारण कितें तर ती आपय नासतना लेगीत साहित्यीक, कलात्मक कार्यावळींक हजर रावता. प्रेक्षकांत बसता. पुस्तक प्रदर्शनाक वता. नवें पुस्तक आयलें रे आयलें तें खंयचे भाशेंतलें हें पळयनासतना विकतें घेवन वाचता. कोणाचेंय कितेंय वाचतकच तें आवडल्यार फोन करुन मुजरत आवडलें म्हूण सांगता. खूब दुर्मीळ हे गूण.

भाऊसाहेब बांदोडकारान कला अकादमीचें सुंदर सपन रंगयलें. ताईन तें पुराय केलें. ताई खंयच्च्याय पक्षाची आसूं. सत्तेर आसूं वा नासूं. कला अकादमीची अध्यक्षा तुवें जावंची अशें एकाय सभाग्यान तरी म्हणचें आशिल्लें!

ताईक आतां ७५ वर्सां सोंपल्यांत. वर्सांचो हिशेब हो आकडेमोडीक बरो आसा. ताईक हो हिशेब लागना. पूण आमकां लागता. ताईन खूब लागिच्यान गोंयचें राजकारण पळयलां. खूब लोकांक पारखिल्यात.

भाऊसायब कोंकणी विशीं, गोंयचे विशीं कितें येवजिताले हें तिका खबर आसा. खरें फट कितें? कोण कसो कितें? हें ताईन अणभवलां. हो गोंयचो दस्तऐवज. ताईन तो बरोवन काडूंक जाय. तिचे खातीर न्हय. फुडले पिळगे खातीर. तेच खातीर म्हाका ताईक याद करून दिवंक जाय. 'ताई तुका पंचात्तर वर्सां. तुजे सांगाताक म्हजे सारख्या कोणाकूय एकट्याक दवर. तूं सांगता तें बरोवंक. ना तर तूं बरय. येता तशें बरय. सोपस्कार आमी करतात. ताई आमचे मदीं सासणाचीं उरुं दी ह्या पुस्तकरुपान. तेंच काम करपाक तुका उदंड आयुश्य लाभूं!'



## दिलीप धर्मा बोरकार (२ माय १९५७)

वर्गशत्रू, भरते-भार, आण्टीची गादी, आयज आमचें राज आयलें (नाटकां). कॅन्सर, एक शून्य प्रवास (एकांकी संग्रह). दर्यासुंदरी, अशांत सुशांत, मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी, पिन्टूची काळ भोंवडी, चड आस्त धरता तो बुडटा, रांवस पावलो दुबय, शाणो पाडको आनी पिसो लाडको (बालसाहित्य). रूक्षप्रस्न, बोरकारी, श्रेयार्थी (ललित). गोमाचल ते हिमाचल, कालसर्पयोग, क्रिशम (प्रवास वर्णन) अश्या गद्य साहित्याची निर्मिती आनी मेथये पावलां (काव्य संग्रह), अंतरमनांतले अंतरंग (ललित).

आघात, जिमलेट, रूक्षप्रस्न (नवप्रभा) प्रहार (तरूणभारत) आंबट तीख (लोकमत) बोरकारी (सुनापरान्त) सारकीं वाचकांक प्रतिक्षा करूंक लावपी सदरां आनी 'बिम्ब' ह्या दर्जेदार मासिकाचें संपादन अशें पत्रकारितेंतलें कार्य.

डॉन बास्को हायस्कूल, कळंगूट. सांताक्रूज हायस्कूल, सांताक्रूज. कस्तुरबा मातोश्री हायस्कूल, पणजी आनी फा. आग्नेल कॉलेज ऑफ आर्टस् अॅन्ड कॉमर्स, पिलार हांगा विद्यादानाचें कार्य.

जाग, बिम्ब मासिकांतल्यान तीर-सुवादीक कॉलम, आयलें तशें गायलें, हायली फिलॉसाफिकल कॉलम सारकीं खुसखुशीत आनी चिंतनशील सदरां.

भरते भार (१९८२), गोमाचल ते हिमाचल (१९८५), कला अकादमी उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार. अखिल भारतीय नभोनाट्य पुरस्कार (१९८७, १९९१,१९९२), कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार, न्यू गोवन ओवरसीज पुरस्कार (१९९६), डॉ. टी. एम्. ए. पै फाऊंडेशन पुरस्कार (१९९९), केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार (१९९५), राज्य सन्मान (२००७), गोंय राज्य सन्मान (२०१६), साहित्य अकादेमी, बाल साहित्य पुरस्कार (२०१६)आदी सन्मानान भोवमानीत.

विद्यार्थी चळवळ, युवा आंदोलन, शिक्षक आंदोलन. रांपणकार, कामगार आंदोलन, कोंकणी प्रजेचो आवाज, गोवा बचाव आंदोलनात सक्रीय सहभाग.

'शेल्टर', 'रॅगींग', 'बाकीबाब', 'एम्. बॉयर' 'फ्लो ऑफ प्रॉस्पेरिटी' आनी 'पद्मभूषण, ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार' आदी माहितीपटांची निर्मिती.



दिलीप बोरकार





ISBN 978-93-85654-15-2
9 789385 654152

Price: ₹ 200/-